# इगडी बिगडी तिगडी था

(बालनाट्य)

लेखक

**प्रकाश पर्येंकार**




गोवा कोंकणी अकादेमी

| | |
|---|---|
| **इगडी बिगडी तिगडी था** | **Igadi Bigadi Tigadi Tha** |
| (बालनाट्य) | (Children's Play) |
| प्रकाश शां. पर्येंकार | Prakash S. Pariekar |
| प्रकाशन क्र. 69 | Publication No. 69 |
| © डॉ अर्चना गांवकार | © Dr. Archana Gaonkar |
| पयली उजवाडावणी :<br>2006 | First Edition :<br>2006 |
| मुखपृश्ट आनी चित्रां :<br>दिगंबर गो. सिंगबाळ | Cover design and sketches :<br>Digambar G. Singbal |
| मलपृश्ट छायाचित्र :<br>राजतिलक नायक | Back Page Photography :<br>Rajtilak Naik |
| छापणावळ :<br>सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम<br>खोर्ली-गोंय | Printer :<br>Sahyadri Offset System<br>Corlim - Goa |
| प्रकाशक :<br>श्री. गोपाळकृष्ण पाडगांवकर<br>सचिव<br>गोवा कोंकणी अकादेमी<br>243, पाटो कॉलनी, पणजी-गोंय | Publisher :<br>Gopalkrishna Padgaonkar<br>Secretary<br>Goa Konkani Akademi<br>243, Patto Colony, Panaji-Goa. |
| मोल : रु. 35/- | Price : Rs. 35/- |

● हें पुस्तक अकादेमीच्या बालमंच येवजणे खाला छापलां.

भुरगेपणांत तान-भूक विसरून
हांव
ज्या झाडापोदां खेळलों...
आनी मुखार
एके पावसाळे मध्यानराती
जाचे खांदे धतरिर कोसळळे...
त्या
म्हाल-म्हाताऱ्या शिडमाच्या
रुखाक
हें पुस्तक मायेन ओंपतां...

- प्रकाश

# अकादेमीचे वतीन

सरकारी थरावयल्यान 2003 हें वर्स 'बालक वर्स' म्हण मनयलें. गोवा कोंकणी अकादेमीन बालक वर्सा निमतान, सरकाराक बालरंगमाची आनी बालसाहित्याची एक येवजण भेटयली. गोंयच्या शिक्षण खात्यान ही येवजण मानून घेवन अकादेमीक पांच लाखांचो निधी दिलो. त्या निधिच्या अर्द्या भागाचो वापर करुन अकादेमीन 2005 वर्सा 'बालमंच' येवजण राबयली. नाट्यासंस्था, नाट्यनिर्माते आनी नाट्य दिग्दर्शक हांचेकडसून पुराय स्वरुपाच्यो नाट्यसंहिता मागोवन घेवन तांची निवड करुन वेंचून काडिल्ल्या 'स' बालनाट्यांचो महोत्सव फोंडेंच्या राजीव गांधी कला मंदिरांत घडोवन हाडलो. ह्या महोत्सवाक बाल प्रेक्षकांचो खूब बरो प्रतिसाद लाबलो. महोत्सवाच्या नेमाप्रमाण सादर जाल्ल्या बालनाट्यांच्यो संहिता पुस्तक रुपान उजवाडावपाच्यो आसल्यो पूण सगळयोच संहिता उजवाडावपाचे कसवटेक उतरल्योना. ज्यो उतरल्यो तातुंतली एक प्रा. प्रकाश पर्येकार हांगेली 'इगडी बिगडी तिगडी था' ही संहिता आयज पुस्तक रुपान उजवाडाक येता.

कोंकणीतल्यान बालनाट्य चळवळ उबी रावची ह्या हेतून अकादेमीन 'बालमंच' येवजण तयार केली. ताचें मुखावयलें पालव म्हणल्यार बालनाट्यांची पुस्तकां तयार करप. 'इगडी बिगडी तिगडी था' पुस्तक ते नदरेन मोलाचें काम करतलें अशी आस्त बाळगितां.

**पुंडलीक ना. नायक**
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

# मनातलें...

एक दीस श्री. प्रमोद महाडेश्वर म्हजे कडेन आयलो आनी म्हणपाक लागलो 'गोवा कोंकणी अकादेमिच्या बालनाट्य महोत्सवात, बालनाट्य सादरीकरण येवजणेत आमी वांटेकार जावंक सोदतात. ताचेखातीर आमकां तुजे कडल्यान बालनाट्य बरोवन जाय. बालनाट्य बरोवन दिता जाल्यार आमी आमचो प्रस्ताव अकादेमीक सादर करतात. फुडल्या पंदरा दिसांत बालनाट्याची संहिता अकादेमीचे कचेरेत निवडी सादर करपाक जाय...'

कोणें एकल्यान सांगलें आनी रोकडेंच नाटक बरोवन जालें अशें खंयच्याय लेखकाचे बाबतीत घडना. साहित्यकृती तयार जातली जाल्यार बरो स्वास्थ जाय. मनाची तनरी लागपाक जाय. तातुतल्या तांतूत हें तर बालनाट्य. बालनाट्य बरयतलो जाल्यार आदीं पयलीं तुजेकडेन बालमनाक भावता तसलें कथानक जाय. ताचे मुखार वचून तें बरोवन काडपाक वेळ मेळपाक जाय... असो लांबचो प्रवास म्हज्या दोळयांमुखार उबो रावलो. श्री. महाडेश्वरान म्हज्या मुखार बालनाट्य लेखनाचो प्रस्ताव दवरलो तेन्ना 'बोला फुलाक गांठ' तशी एक बरी गजाल आपसूक जुळून आयिल्ली. ती गजाल म्हळ्यार त्याच दिसांनी बालनाट्याचो एक विशय म्हजे तकलेंत घर करूंक लागिल्लो. त्या विशयान म्हाका अस्वस्थ केल्लो... 'म्हजेकडेन बाल नाट्याची थीम आसा. फकत जाय तो वेळ...' अशें म्हण हांवें त्याच दिसा बालनाट्याचें पुराय कथानक ताका सांगलें. तें कथानक ताका मानवलें. 'जालें. आनी कांयच उलोंव नाका. संहिता बरोवर तयार दवर' अशें म्हणून तो गेलो.

त्याच दिसा हांवें बालनाट्य बरोंवपाचो मनात निर्धार केलो. बाल नाट्याच्या देखाव्यांचे आराखडे तयार केले. पात्रां थारायलीं. आनी हांव बसकण मारुन बालनाट्य बरोवंक बसलों... बालनाट्यातलें जण एकलें पात्र म्हजेकडेन संवाद सादपाक लागलें. हांवूय तांच्या सूख-दुख्खात एकरुप जावंपाक लागलों. दीस रात तीं पात्रा म्हज्या मनात खवदळ घालपाक लागलीं. चार दिसां भितर हांवें इगडी बिगडी तिगडी था बालनाट्य बरोवन हातावेगळें केलें. ही कलाकृती म्हाका मनापासून आनंद दिवन गेली... मुखार ह्या बालनाट्याचें कथानक हांवें जायत्या जाणाक कथन केलें. तांकाय तें आवडलें. कथानक, प्रसंग, पात्रां आनी संवादा संदर्भात हांवें वेगवेगळया व्यक्तिकडेन चर्चा केली आनी संहिता तयार जाली.

इगडी बिगडी तिगडी था हें म्हजें पयलेंच बालनाट्य. बालनाट्यांत सुसुत्रताय येवची म्हण लेखकान भुरग्यांची अभिरुची जाणून घेवन लेखन करचें आसता हाची म्हाका थोडिभोव जाणीव आशिल्ली. बालकलाकार आनी बालरसीक ह्या दोनूय घटकांच्या अभिरुचिचो समतोल राखचो पडटा. खूब म्हत्त्वाचें म्हळयार बालनाट्याचें कथानक ह्या दोनूय घटकांक आदीं पयलीं मानवपाक जाय. तांचें मन तांतूत रमपाक जाय. ताका लागून नाटकात गुथोवन दवरपी कथानकाची आवशक्यताय आसता. बालनाट्यात पात्रांच्या हालचालींक खूब म्हत्त्व आसता. एकाच जाग्यार रावून संवादफेक करपात बालकलाकारांची रुची आसना हें खरें आसलें तरी तांचे आवडिचीं पात्रां तांतूत आसपूय तितलेंच गरजेचें आसता.

ह्या नाटकात झाड, सुकणीं आनी सावदां आसात. ह्या सगळ्यांची निवड करतना हांवें बारीकसाण बाळगिल्या. ह्या बालनाट्याचें कथानक एका म्हाल म्हाताऱ्या रुखाच्या मुळांत घडटा. ते खातीर एकादें मोठें कांड आशिल्लें झाड सोदपाक म्हाका धडपडचें पडलें ना. शेंकड्यानी वर्सां पिरायेचें म्हाल म्हातारें एक झाड म्हज्या गांवांतले गोठणे कुशीक आशिल्लें. चार-पांच जाणांचे वेंगेत मावचेंना एद्या व्हडल्या ह्या झाडाचे खांदे अयस पयस मेरेन पातळिल्ले. त्या झाडाच्या मुळाक मोठ्या आकाराची धोल आसली. बालनाट्य बरयतना तें शिडमाचें झाड म्हज्या दोळयां मुखार आशिल्लें... सुकण्यां भितर भुरग्यांक रंग रंगयाळो मोर आवडटा. जनावरांची निवड करतना तांचो रुबाब, तांचें बाह्यरुप आनी ल्हान भुरग्यांचें विशिश्ट जनावरां विशीं आशिल्लें आकर्शण मतीत घेवन वाग, वानर, अस्वल, चितळ, सोसो ह्या पात्रांचो हांवें नाटकात आस्पाव केला.

संगीत हें भुरग्यांक खुपच आवडटा. ताकालागून हांवें बालनाट्यात वट्ट सात गितां घातल्यांत. **'उठ जादुगारा... उठ जुादगारा... उठ जादुगारा... उठ बेगीन...'** ह्या गिताक बालकरांकडल्यान मेळपी दाद नोंद घे सारकी आसा. बालरसीकांचो कल फकत मनोरंजना कडेन आसना. तांकांय नवें कितें तरी शिकपाची उमळशीक आनी विचारां पलतडचें जाणून घेवपाची तांच्या बालमनाक ध्यास लागिल्लो आसता.

ह्या बालनाट्याचे हांवें दोन शेवट थारायल्ले. तांची चर्चाय जाल्ली. निमणे कडेन विठूची आवय झाडाच्या रुपांत तशीच उरता.. हो पयलो शेवट. दुसऱ्या शेवटात विठुचे आवयक झाडातल्यान मुक्ती मेळटा... हातुतलो हांवें पयलो शेवट निवडिल्लो. कारण बालनाट्य सोंपतना झाडाच्या तोंडात हांवें एक म्हत्त्वाचो संवाद घातला. **"... वाटेन**

**वयतना झाडांक दुखाप करूं नाकात. झाडांकय जीव आसता. तांकाय वेदना जातात. तिंवूय मनश्यावरी हांसतात आनी रडटातूय बी... म्हजे वरी अश्यो तिकल्योश्योच आवयो झाडाच्या रुपान ह्या रानात कश्टतात आसतल्यो. उपकार करुन तांच्या आंगार घाव घालूं नाकात... तुमकां सदांकाळ सावळी दिवपी रुखांक भावकेच्या नदरेन पळयात. तांचेर मना पासून प्रेम करपाक शिकात...''** ह्या संवादातल्यान रानात वा आमचे भोंवतणी आशिल्लें जण एकलें झाड हें कोणाची तरी आवय आसूं येता हो विचार हांव बलरसिकांक दितां हे भावनेन तो शेवट म्हाका सोयिचो दिशिल्लो. पूण हांगा वेगळेंच घडलें. ज्या बालकलाकारांनी ह्या बालनाट्यात अभिनय केल्लो आनी बालप्रेक्षांनी हें बालनाट्य पळयल्लें तांकां सगळयांक विठूची आवय झाडातल्यान मुक्त जावंची अशें मनापासून दिसतालें. बालमनाक पटना वा तांच्या मनाआड चित्रायल्ले गजालीक बालनाट्यात थारो ना हें म्हत्त्वाचें मार्गदर्शक सुत्र बालनाट्य माचयेर सादर जातकच म्हज्या लक्षात आयलें. विचारापरस बालमनातले भावनेक हांगा चड म्हत्व आसा हें म्हाका कळून आयलें.

श्री. दिगंबर सिंगबाळ हाणें विठूचे आवयक 'झाडातल्यान मुक्त केल्यार म्हाका मुखचित्र आनी भितरलीं चित्रां काडपाक बरें पडटलें...' अशी सुचोवणी केली. बालकलाकार, बालरसीक आनी चित्रकाराची सांगणी मनात घेवन हांवें नाटकाचे दिग्दर्शक श्री. प्रमोद महाडेश्वराकडेन चर्चा केली. हो बदल घडोवन हाडचे खातीर आटकुलो आनी पिटकुलें ह्या पात्रांक परत माचयेर हाडून ह्या बालनाट्याचो शेवट बदलपाचो निर्णय हांवें घेतलो. सगळयांचे सुचवणेतल्यान आयिल्लो हो बदल तुमकां सगळयांक निश्चीतूच मानवतलो अशें म्हज्याय बालमनाक दिसता.

इगडी बिगडी तिगडी था. हें बालनाटय म्हळयार फातरारुपांत झाडाचे धोलींत आशिल्ल्या जनावरांची शोकांन्तिका न्हय... तशेंच झाडाच्या रुपान अटंग्या रानात वत, पावस आनी शीं सोशीत उबी आशिल्ले विटूचे आवयचें दुखात्मक चित्रणूय न्हय... हें बालनाट्य आमकां मानसीक गुलामगिरीतल्यान मुक्त जावंपाचो मंत्र दिता. अन्यायाआड आमी पेटून उठपाक जाय हाची आमकां जाणीव करुन दिता. हे खातीर आमी एकसंघ रावून वावर करपाक जाय हाचोय आमकां दिश्टावो करुन दिता. हाचे भायर हें नाटक बालरसिकांच्या हाताक धरुन तांच्या मनोविश्वांत भितर रिगता आनी अटंग्या रानाची तांकां वळख घडयता. रानातलें तें म्हालम्हातारें झाड तांच्याय जिणेचो एक भाग जाता.

झाडाच्या रुपान कश्टांची जीण जगपी ती फकत विठूचीच आवय उरना ती तुमच्या आमच्या सगळयांचीच आवय जाता. धर्तरेर आशिल्लें जण एकलें झाड ही म्हजी आवय आसा असो संदेश दिवपी हें बालनाट्य भुरग्यांवांगडाच जाण्ट्यांकय खूब कितें सांगून वता...

राजीव गांधी कला मंदिर-फोंडें गोंय हांगा जाल्लो नाटकाचो पयलो प्रयोग आनी हेर कांय कडले प्रयोग हांवें पळयले. ह्या वेळार म्हाका भुरग्यांचे अभिरुचिचो अदमास आयलो. खिणां खिणां खोऽऽऽ खोऽऽऽ करुन हांसपी... तोंडया जादुगाराचो फातर करतना वा ताका जिवो करतना 'मारात तेका... मारात तेका...' म्हण आपल्या जाग्यावयल्याण उठून आड्डपी ह्या बालप्रेक्षकांक हांव मानाचो मुजरो करतां...

नाटक सादरिकरण हो एक सामुहीक कलाअविश्कार. लेखक फकत संहिता बरोवन तयार करता. मुखार दिग्दर्शक, पार्श्वसंगीतकार, वेशभुशाकार, नेपथ्थकार, रंगभुशाकार आनी हेर सगळे मेळून नाट्यकलाकृती उबी करुन प्रेक्षकांमुखार सादर करता. नाटकाचें हातबरप पुस्तक रुपांत येवपाची प्रक्रिया सुरु जाता तेन्नाय अशेंच घडटा. कारण हें बालनाट्य पुस्तक रुपांत येवपाक गोवा कोंकणी अकादेमीचो मोलाचो वांटो आसा. अकादेमिचे बालमंच येवजणे खाला हें पुस्तक आयज उजवाडा येता ताकालागून हांव अकादेमिचो भोवच उपकारी आसां. ह्या म्हज्या पुस्ताकाक रंगकर्मी आनी नाट्यदिग्दर्शक श्री. श्रीधर कामत बांबोळकार हांची प्रस्तावना फाव जाल्यांत तशेंच प्रा. दिगंबर सिंगबाळ हांच्यानी सोबीत सुंदर अशें मुखपृश्ठ आनी भितरलीं चित्रां पितारल्यांत. ताचे खातीर ह्या दोगांय नाट्यकर्म्यांचो हांव मनापासून उपकारी आसां. मुखपृश्टा खातीर तंत्रीक आदार दिवपी आनी मलपृश्ट छायाचित्रकार श्री. राजतिलक नायक हाचेय हांव उपकार मानतां. सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम, खोर्ली, गोंय हांच्यानी हें पुस्तक छापतना घेतिल्ले तकालसी खातीर तांच्याय उपरकारात हांव रावूंक सोदतां.

धावें-तार,
वाळपय सत्तरी गोंय - 403 506

**प्रकाश पर्येंकार**

# रंगमाचयेर प्रकाश दिसचे पयलीं...

गोंय मुक्ती उपरांत बरोवप्यांनी कोंकणीत विंगड-विंगड साहित्य प्रकार समाधान दिवपाइतले केळयले. कोंकणी नाटक तळागळांतल्या लोकांमेरेन प्रभावी रितीन पावोवपाचें काम आजवेर नाट्यलेखकांनी आनी रंगकर्मिनी केलें. बाल नाटिका आनी भुरग्यांच्यो एकांकी जायत्या प्रमाणांत बरोवन जाल्यो. त्या मानान पुराय लांबायेचें 'बालनाट्य' हो प्रकार दुर्लक्षीत उरलो. कोंकणी बालरंगमाचयेचें मळ बाकिच्या साहित्य प्रकारा इतलें फाव तशें फुलारुन आयलें ना. पुराय स्वरुपाचीं बालनाट्यां हाताच्या बोंटार मेजपा इतलीं सांपडटात.

कोंकणीचें हें पडंग मळ पिकाळ जावचें ह्या हांवेसान गोवा कोंकणी अकादेमीन 'कोंकणी बालमंच' ही येवजण, 2003 ह्या 'बाल वर्सा' निमतान तयार केली. गोंयच्या बालनाट्य चळवळीक उर्बा दिवप, पुराय लांबायेचीं कोंकणी बालनाट्यां बरोवपाक लेखकांक उत्तेजन दिवप आनी मौलिक बालनाट्यांच्या लेखनावरवीं कोंकणी साहित्यांत मोलाची भर घालप. गोंयच्या भुरग्यांक आनी बालनाट्य रसिकांक नव्या आशयाचीं, विशयाचीं, शैलीचीं नाटकां पळोवपाची संद मेळोवन दिवप आनी तांच्या व्यक्तिमत्वाचो विकास घडोवप, तशेंच कोंकणी बालनाट्याचो पांवडो हेर प्रगत अशा प्रादेशिक बालरंगमाचये कडेन हाडप अशे वेगवेगळे हेतू आनी उद्देश दोळयांसामकार दवरुन अकादेमीन ही येवजण चालीक लायली. हे येवजणेक समाधानकारक प्रतिसाद लाभलो. जायत्या लेखकांनी नवीं वेगवेगळया विशयांवयलीं बालनाट्यां बरयलीं, दिग्दर्शकांनी, निर्मात्यांनी प्रकल्प तयार करुन निर्मिती करपाखातीर अकादेमीकडेन अर्ज केले. तांतूतली 'स' प्रयोगक्षम बालनाट्यां येवजणेच्या नेमांप्रमाण 'बालमंच' परिक्षक मंडळान वेंचून काडलीं. कुशळ दिग्दर्शकांच्या मार्गदर्शनाखाला तांची प्रयोगांखातीर निर्मिती ज़ाली आनी अकादेमीच्या बालनाट्य महोत्सवांत तांचे खेळ रंगमाचयेर यशस्वी रितीन सादर जाले.

प्रा. प्रकाश पर्येंकार, ह्या संवेदनशील लेखकाचें 'इगडी बिगडी तिगडी था' हें बालनाट्य गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'कोंकणी बालमंच' हे येवजणेखाला बरोवन जाल्लें एक बालनाट्य. विवेकानंद कला सादरीकरण मंच, केरी-सत्तरी हे संस्थेन ह्या नाटकाची निर्मणी केली. श्री. प्रमोद म्हाडेश्वर ह्या आघाडीच्या दिग्दर्शकान भोव कुशळतायेन माणकुल्या कलाकारांच्या आनी तंत्रज्ञांच्या आदारान कलात्मक रितीन तें बालनाट्य माचयेर खेळयलें

प्रा. प्रकाश पर्येकार हांणी कोंकणींत हाचे आदीं, कविता, लघुकथा आनी लली लेखन केलां. कोंकणी कथेंत तांणी आपली अशी वेगळी वळख दाखयल्या. गांवगिऱ्य जिविताचेर तांणी बरयल्ल्यो कथा भाशाशैली, तंत्र आनी आशयाचे नदरेन वाचप्यांव मानवल्यात. तांच्या चडश्या कथांनी घटनां, संघर्ष आनी संवाद नाट्यमय आसतात नाट्य लेखनाचे मूळ घटक आनी मूलतत्वां तांच्या कथांनी प्रकर्शान दिसतात. श्री. विष्ण वाघ ह्या नाटककाराक प्रकाशबाबांच्या 'म्हाबळी' कथेवयल्यान एकांकी बरयन दिसली 'म्हाबळी' ही प्रयोगक्षम आनी सगळया आंगांनी सशक्त अशी एकांकी जावंक पावली कारण नाट्यलेखनाखातीर लागपी सगळीं बिजां आनी तंत्र मूळ कथेंत आसा.

'इगडी बिगडी तिगडी था' हें प्रा. प्रकाश पर्येकारांचें पयलेंच नाटक आसुनय तांतून नवखेंपण मात्तुय दिसना. नाट्यलेखनाचो फावो सो अणभव लेखकाच्या गांठीव आसा अशें दिसपाफाटलें कारण म्हळयार कथा लेखनांत तांणी दिल्लें योगदान.

नाटक ह्ये साहित्य प्रकार फकत वाचपाखातीर नासता ताचे माचयेर प्रयोग जातकच त्या प्रकाराक पूर्णत्व प्राप्त जाता. लेखकान बरयल्ल्या संहितेचें रुपांतर प्रयोगांत यशस्वीतरेन जातलें जाल्यार नाट्यलेखकाक सादरीकरण तंत्राची आनी रंगमाचयेच्या वैशिष्ठांची आनी मर्यादांची जाणीव आसप भोव गरजेचें. प्रा. प्रकाश पर्येकारांक ही जाण आसा म्हणपाचें प्रयोग पळयले उपरांत म्हाका जाणवलें.

कथानक, प्रसंग, व्यक्तिरेखा, संवाद, स्थळ-काळ, उद्देश आनी शैली हें खंयच्याय नाटकाचे मुखेल घटक. बालनाट्य हें अभिव्यक्तिचें एक मुळावें रुप आसून ताचो सबंद मनशाच्या पुराय प्रकृतीकडेन आसा. 'नाट्य' हो एक 'खेळ' आनी ताचो आविश्कार खेळाच्या रुपांत जावंक जाय. नाटकांतल्यान दर एकल्याक नाटकांत आपणाली भुमीका रंगयतना खेळांतलो आनंद मेळपाक जाय आनी तसोच आनंद पळोवपी रसीक निर्माण करपाक येवंक जाय. रंगमाचयेवयलो आभास वास्तव रुपांत दिसप हातूंत खऱ्या नाटकाचें जैत आसता. भुरग्यांचीं नाटकां करतना प्रियतेचो आभास आनी तो निर्माण करपी शक्तिचो उपयोग करुन घेवंक जाय. 'इगडी बिगडी तिगडी था' ह्या बालनाट्यांत हाचो विचार जाल्ल्याचें पळोवंक मेळटा.

भुरग्यांखातीर नाटक बरयतना तांच्या भावविश्वाराचो विचार करप खूप गरजेचें तशेंच बाल मानसशास्त्राचोय आदार घेवंचो लागता. पंचतंत्र, इसापनिती सारखेल्या

काणयांच्या संग्रहांतल्यो काणयो भुरग्यांक सुर्वेच्या वयांत खूब मानवतात. बालवाडी आनी मुळाव्या शाळेंतल्या भुरग्यांक झाडां, फुलां, फळां, सुकणीं, जनावरां आनी हेर प्राणीविश्वांतले विशय लागिंचे दिसतात. राजा, राणी, परी, जादुगार, राकेस सारखीं तांच्या मनोविश्वातलीं पात्रां तांकां आवडटात. 'इगडी बिगडी तिगडी था' बाल नाट्यांत झाड, तोंडयो जादुगार, वाग, अस्वल, वानर, सोसो, चितळ, मोर हीं पात्रां योग्य रितीन कथानकाक सोब सारखीं चितारल्यांत.

राजा राणयेच्यो, जादुच्यो, चमत्काराच्यो काणयो कांय जाणांच्या मतान कालबाह्य जाल्यात. विज्ञान युगांत ह्यो काणयो भुरग्यांक सांगपांत अर्थ ना. पूण हें तितलें खरें न्हय. 5 ते 8 वर्सां वयाच्या गटांतल्या भुरग्यांक अद्भूत कल्पनारम्य कथा विश्व मानवता. ती तांची मानसीक गरज आसता. तांतुतल्यान तांका आनंद तर मेळटाच तशेंच तांचे कल्पना शक्तेक चालनाय मेळटा. काल्पनिक वा अद्भूत काणयांनी एक वेगळीच सुंदरताय आसता. प्रौढ लोकांक ह्यो कल्पना भुरगेपणाच्यो दिसतात पूण आमी भुरगेपणांत ह्याच काणयांचो कितल्या खोशयेन आश्वाद घेतला हें विसरतात.

'इगडी बिगडी तिगडी था' हया बालनाट्यांत एक तोंडयो जादुगार आसा. ताणें विठू नांवाच्या भुरग्याचे आवयचें झाड केलां आनी विठूचो फातर केला. विठू आनी विठूचे आवयचे भशेन पिंकी, वाग, अस्वल, वानर, सोसो, मोर, चितळ हांचीय परिस्थिती जाल्या. स्वतःच्या स्वार्थाखातीर तोंडयो जादुगार तांचें स्वातंत्र्य झोमून घेवन आपूण राजा कसो जियेवपाक सोदता. अश्यावेळार नाटकांतल्या रानाक जाग येता.

व्हडा खातीर बरयल्लीं आनी बसयल्लीं नाटकां भुरग्यांच्या माथ्यार थापप योग्य न्ही. माणकुल्या अवस्थेंतल्या भुरग्यांक तांचे मनोभुमीकेक फावो अशीं थोड्या वेळाखातीर चलपी नाटकां जाय.

बालनाट्यांत स्वप्नरंजनाक व्हडा प्रमाणांत सुवात मेळिल्ली दिसता. पऱ्यांच्या, राकेसांच्या नाटकांचें आकर्शण माणकुल्यांक आसता हें खरें. 'इगडी बिगडी तिगडी था' ह्या नाटकांत तोंडया जादुगाराचो पराभव जातना प्रयोगावेळार बाल नाट्य रसीक कितल्या खोशयेन ताळयो मारताले हें हावें अणभवलां. सगळें प्रेक्षकघर भुरग्यांनी त्यावेळार हालोवन वडयल्लें. सत्याचें असत्याचेर जाल्लें जैत पळोवन भुरग्यांची मनोवृत्ती फुलून वता हेंय खरें. स्वप्नरंजनाक बालनाट्यांत सुवात आसपाक जाय पूण पुराय तरेन

ताचेर पातयेवन रावप समा न्हय. प्रा. प्रकाश पर्येंकारांक हाचें भान असा म्हणपाचें जाणवता.

'इगडी बिगडी तिगडी था' ह्या बालनाट्याक लोकवेदाची बसका आसा आनी देखून नाटकाचें नांवूय मुदयेर थीक कशें बसयलां. हें नाटक भुरग्यांचें निखटें मनोरंजन करिना, तर तें सैमांतल्या रानाची वळख करुन दिता. झाडाच्या रुपान कश्टाची जीण जगपी ती विठूची आवय उरना. ती सगळ्यांची आवय जाता ही भावनां प्रेक्षकांमदीं जागी जाता. धर्तरेवयलें दर एक झाडं ही आमची आवय आसा असो संदेश हें बालनाट्य दिता. मनोरंजन करतां करतां तांचें प्रबोधन जावंचें हाची जतनाय प्रा. प्रकाश पर्येकारांन घेतल्या.

प्रा. प्रकाश पर्येंकार पर्यावरण राखणेच्या आंदोलनांतलो एक पोटतिडकीन वावुरपी कार्यकतो. पर्यावरण हे विशयावयली ताची निश्टां हे बालनाट्याच्या विशयांत आनी आशयांत खरायेन होल्मता. नाटक सोंपतां सोंपतां नाटकांतले मध्यवर्ती पात्र-झाडाचो संवाद कितलो अर्थपूर्ण आसा तो वाचात.

"....वाटेन वयतना झाडांक दुखापत करूं नाकात. झाडांकय जीव आसता. तांकाय वेदना जातात. तिंवूय मनश्यावरी हांसतात आनी रडटातूय बी... म्हजे वरी अश्यो कितल्योश्योच आवयो झाडाच्या रुपान ह्या रानांत कश्टतात आसतल्यो. उपकार करुन तांच्या आंगार घाव घालूं नाकात. तुमकां सदांकाळ सावळी दिवपी रुखांक भावकेच्या नदरेन पळयात. तांचेर मनापासून प्रेम करपाक शिकात..."

प्रा. प्रकाश पर्येंकारांचें हें पयलेंच बालनाट्य पुस्तक रुपान उबें रावता. कोंकणी रंगमाचयेक नव्या आशयाच्यो आनी विशयाच्यो सशक्त संहीता भेटोवपाची तांक तांचे मदीं आसा म्हणपाची पुराय खात्री म्हज्या सारखिल्ल्याक जाल्या. तांचे संवेदनशिलतेचो आनी सर्जनशिलतेचो साहित्य प्रकाश कोंकणी रंगमाची चडांत चड परजळीत जावंपाक लाबू अश्यो शुभेच्छा परगटायतां.

**श्रीधर अनंत कामत बांबोळकार**
27 मार्च 2006
(जागतिक रंगभूमी दीस)

*इगडी बिगडी तिगडी था* ह्या बालनाट्याचो पयलो प्रयोग, विवेकानंद कला सादरीकरण मंच, केरी सत्तरी हे संस्थेन, गोवा कोंकणी अकादेमीन आयोजीत केल्ल्या बालनाट्य महोत्सवात, ब्रेस्तार, ता. 6 जानेवारी 2005 दिसा सांजेच्या 4.00 वरांचेर राजीव गांधी कला मंदिरातल्या मा. दत्ताराम नाट्यगृह, फोंडें गोंय हांगा जालो.

## पात्रां

| | | | |
|---|---|---|---|
| **रामजी** | : दुर्गेश माजिक | **पिंकी** | : दिपाली सुतार |
| **रोहीत** | : सुशांत गांवस | **वाग** | : संदीप माजिक |
| **पिटर** | : विशाल गांवस | **अस्वल** | : उदय माजिक |
| **चित्रा** | : श्वेता केरकार | **वानर** | : नारायण गांवस |
| **सुरज** | : कृष्णा माजिक | **सोसो** | : अर्जुन माजिक |
| **झाड** | : सारीका गांवस | **चितळ** | : शारदा पार्सेकार |
| **विठू** | : सर्वेश गांवस | **मोर** | : प्रशांत माजिक |
| **तोंडयो जादुगार** | : रमेश सावंत | **आटकुलो** | : गुरूप्रसाद माजिक |
| **पिटकुलें** | : प्रतिमा माजिक | **आवय** | : दर्शन केरकार |

**दिग्दर्शक :** प्रमोद महाडेश्वर

**उजवाडा येवजण :** निलेश महाले

**नेपथ्य :** गणेश शेटकार

**वेशभुषा :** प्रेरणा महाडेश्वर

**पार्श्वसंगीत :** शिवनाथ नायक

**संगीत :** महेश गांवस / अंकुश माजिक

**रंगभुषा :** श्रीकांत गावडे

**गायक :** दर्शन केरकार, लता मांगेलकार, संध्या पार्सेकार

**आदार :** रमेश पार्सेकार, प्रभाकर माजिक, संतोष पार्सेकार, अर्जुन गांवस, प्रेमनाथ पार्सेकर आनी सुर्याकांत माजिक, निमा गांवस, नरेंद्र गांवस

# अंक - पयलो

## देखावः एक

(नाटकाचो पड्डो वयर सरचे पयलीं माथाळो गीत सुरु जाता...)

**इगडी बिगडी तिगडी थाऽऽ**
**थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ**
**काळेरानातल्या देगणांत ह्या**
**दोंगर आनी घळी**
**खळ खळ खळ खळ व्हांवतात हांगा**
**व्हाळ आनी झरी...**
**तोंडयो जादुगार भोंवता रानात**
**करीत सगळ्यांचे फातर**
**जादुची काडी मंत्रांचो शिंवर**
**धोलींत धवो धवो धुंवर...**

(गीत सोपतां सोपतां रामजी, पिटर, रोहीत, सुरज आनी चित्रा हीं पांचूय जाणां रानात भोंवतना दिश्टी पडटात. तांचे फाटीर बॅगां आसात. रानातलें सौंदर्य पळोवन तीं आनंदीत जाल्यांत. रानात वाटेर मेळपी कांय म्हत्त्वाचे स्पेसीस तांच्यानी एकठांय केल्यात. अटंग्या रानाचीं दोन-तीन पालसणां चडून तीं सगळीं दोंगर माथ्यार पावल्यांत.)

**पिटर** : आमी कितू पोयस पावले रे ? आवोयसऽऽ हांगासोर उबो राबन चोयल्यार

सोकोल़ कितू बोरें दिसोता न्हूं !

सुरज : (दुरबिणीतल्यान पळयत) हांगा उबे रावून पळयात. सकयल न्हंय व्हांवता
दिसता. (पळोवंपाक सगळे एकठांय जातात)

पिटर : ते न्हंयचो उगोम खूंय सावन जाला काय ?

रोहित : वयर खंयच्या तरी देगणात जाला आसतलो. थंयच्यान ती व्हांवत व्हां
अशी सकयल येता आनी दर्याक वचून मेळटा.

चित्रा : सामकी फट. आमचो पप्पा सांगतलो हे न्हंयचो उगम कानडी राज्यात जा
म्हण. हें तुजें देगण मदीं खंय आयलें.

रोहित : आमकां आमच्या चित्तरंजन सरान सांगलां. आमचो सर त्या देगणात व
हे न्हंयचो उगम पळोवन आयला. तो आमकां फटिची म्हायती कित्य
दितलो?

रामजी : तुमचें दोगांयचेंय म्हण्णें बरोबर आसा. तुमीं म्हणटात तें देगण कान
राज्यात आसा. आमी त्या देगणाचे सकयले वटेन उबे आसात.

सुरज : म्हळयार आमी कानडी राज्याच्या सामके लागीं आसात तर !

रामजी : ना. सामके लागीं ना. हे न्हंयचो जंय उगम जालां तें देंगण बरेंच प
आसा. हांगांसरल्यान चलून वयतलो जाल्यार दिसभराची वाट आसा.
पळयात उंच दोंगर दिसता तो भिमगड. तो दोंगर कानडी राज्याचे शि
भितर पडटा. ताचे पयले वटेन आमगांव आनी उजवे वटेतल्या दोंगरा
मुळसात आसा तो होयडें गांव.

रोहीत : ह्या रानातल्या गांवांनी लोक कशे रावतात. तांकां भय दिसना ?

रामजी : ना. तांच्यानी भयाचेर जैत जोडलां. भय दिसता तो तुमच्या सारक्या शारातल
मनश्यांक.

पिटर : तें सोगलें बरें आहा. पूण तुकां हें सोगलें केशें खोबर !

रामजी : फाटलीं पांच वर्सां हांव ह्या दोंगरानी ट्रेकींगेच्या निमतान भोंवतां. ह्या न्हंय
देगणातलो चडसो वांठार हांवें पांयानी माड्यला. ह्या वांठाराची खबर आ
म्हणुनच तर तुमकां हांव इतले पयस ह्या रानात घेवन येयलां.

चित्रा : (सकयल पळयत) हें पालसण तरी पळयात. कितलें खोल न्हय? म्हा
जाल्यार ह्या देगणां वयल्यान उडत उडत वयचें अशें दिसता.

पिटर : म्हाका पांखां आसलेली जाल्यार हांवूय हें देगण एकादे घोणीवरी भोंवते

आसलों.

रामजी : हांगा अशे उबे रावात आनी तो थंय आकऱ्या कोकऱ्यांचो दोंगर पळयात. कितलो सुंदर दिसता न्हय तो दोंगर. (पिटर फोटो काडटा)

सुरज : (व्हडल्यान कुंकारो घालता) कूऽऽऽ.

पिटर : (तोंडात बोटां घालून शिटी मारता.) फीऽऽर्ऽऽऽ फी...

चित्रा : म्हाजो हो फातर खंय पावता तो पळयात हां. (ओड काडून फातर देगणांत शेवटिता. सगळे पळयतात.)

रोहीत : आंगांत ताकत आसल्यार फातर मारतलें मुगो तूं. ना जाल्यार म्हाका पळय. हें तें सकयल घळणात व्हडलें झाड दिसता पळय, त्या झाडार हांव म्हजो फातर पावयतां (तो नेटान फातर शेवटिता)

सुरज : बरें व्हडलें झाड मरे ?

रोहीत : ह्या सगळ्यां झाडांचेकय तें झाड पळोवंपाक व्हडलें दिसता न्हूं?

रामजी : दीस बरोच माथ्यार येयला. जेवपाक आमी त्या झाडाकडेन गेल्यार कशे?

चित्रा : हय आमी सगळीं थंयच या. पोटाक भूक लागल्या. टिफीन हाडलां तें खावन घेवया आनी मागीर भोंवत भोंवत घरची वाट धरूया.

पिटर : त्या झाडा कोडेन कित्याक? ह्या रानात व्हाळ ना जाल्यार झोर मेवता जाल्यार चोवया.

रोहीत : एकादो व्हाळ, वझरो वा झर मेळ्ळयार आमकां न्हांवकय मेळटलें.

रामजी : अशीं हांगा येयात हांव तुमकां एक गजाल सांगतां. ह्या वांठारात काळेरान म्हण एक रानवांठार आसा खंय. ह्या रानाक लोक भुताटकेचें रान म्हणुनूय वळखतात. त्या रानात दोंगराच्या पोटांतल्यात भायर येयल्लो देवचाराचो मोठो गुणो आसा. त्या गुण्या पोंदच्यान थंड किरांव उदकाची झर व्हांवता..

पिटर : व्वा ! तेशें जाल्यार आमी तिगांच या.

रोहीत : जाय तितलें न्हावन घेवया.

रामजी : मुखार आयकात. ते झरिच्या उदकाचो आवाज खंय मनश्याक आयकुपाक येता पूण उदक खंयच्यान व्हांवता तें मात दोळयांक दिसाना !

सुरज : हें आनी अजापूच मरे. अशें म्हण घडूंक शकता ?

चित्रा : देवाचें कितें तरी आसूंक जाय.

पिटर : तेशें जाल्यार तींग नाका रे बाबा. आमी त्या झाडाकोडेनूच गेल्यार चोड बरें.

रोहीत : रामजी एक सांग. तुकां हें सगळें कोणें सांगलें ?

रामजी : आमच्या गांवांतल्या फतेली मामान.

सुरज : तें काळेरान खंय आसा तें तुका खबर आसा ?

रामजी : तें रान खंय आसा तें म्हाका खबर ना. आमी उबे आसात त्या दोंगराचे उत्तरेक तें खंयतरी आसा अशें म्हणटात. आदल्या तेपार आमचे जाण्टेले ह्या दोंगरानी कुमेरी शेतां हणटाले. पूण भुताटकेच्या भयान त्या काळेरानात ते केन्नाच शेतकसोवपाक गेले नात. तेका लागून त्या रानात खंय व्हड व्हड रूखावळ पळोवंक मेळटा.

चित्रा : तो वांठार खंय आसा तो आमी सोदून काडुया ?

रोहीत : थंय वचून कसलोच फायदो ना ? आमकां झरिचें उदक काय पळोवंपाक मेळचेंना.

रामजी : तें उदक फकत मोनजातिकूच दिसता आनी तींच ते झरिचें उदक पियेतात.

चित्रा : झर दिसना जाल्यार कितें जालें. आवाज तरी आयकूक येतलो काय ना ?

पिटर : भुतांच्यो नाका जाल्ल्यो खोबरो सांगनाकाय रे. तुमी रान चोवपाक आयल्यात मुरे. रानातलीं सुकणीं-सांवदां, झाडां-झोपां, किडी-मुयो चोवपाच्यो सोडून दोळयांक दिसना ती झोर कित्याक चोवपाक सोदतात. म्हाका जाल्यार असलें कितेंच चोवपाचें ना हां.

रोहीत : आमचे कडेन सद्या उदक खूब आसा. उदक सोंपलेंच जाल्यार त्या भुतांच्या रानात रिगून ते अदृश्य झरिचो आमी सोद घेवया.

सुरज : अदृश्य म्हण झर आसता? म्हाका जाल्यार हातुतलें कांयच खरें दिसना. हें तें सकयल जें झाड दोळयांनी दिसता थंय आमी पयलीं या. पोटाक चुरचुरून भूक लागल्या. त्या झाडापोंदा बसून जेवन घेवया. आनी मागीर जाल्यार ते झरिचो आवाज आयकुपाक या.

रोहीत : हय व्हय. तशेंच करुया.

रामजी : चलात रे या. (सगळे रामजीच्या फांटल्यान चलपाक लागतात. पिटर भिवकुरे नदरेन भोंवतणी पळयता आनी धांवत वचून मुखार रावता. माचयेर काळोख जाता.)

## देखावः दोन

(रामजी, पिटर आनी चित्रा त्या झाडा कडेन पयलीं पावतात. शिडमाच्या झाडावरी दिसपी तें झाड खूबच देखणें आसून ताचें आंग खडबडीत पूण सोबीत धवसाळ सालिचें आसा. व्हड खांदें पयस मेरेन पसरल्यात. पानांय पिंपळ पानांच्या आकाराचीं. ह्या झाडाचें मून पांच-स जाणांच्या वेगांनी मावचेंना इतलें व्हड. त्या झाडाच्या मुनात व्हडली एक धोल आसा. वयर तेंगशेर फुलां फुल्ल्यांत. दुसऱ्या एका खांद्याक तांबडीं गूंज वाटकुळीं फळां लोंबतात.)

**चित्र** : व्वा! कितली शितळ थंड सुवात ही.

**रामजी** : हे सुवातेक तोखेता कित्याक? अशें ह्या झाडक पळय !

**पिटर** : आवोय म्हुजे माय. कितू मोठें झाड रे हें ! हांवें केदना चोयलें ना ओसलें झाड.

**रामजी** : हांव म्हण पयलेच फावट पळयतां एद्या व्हडल्या झाडाक.

**चित्रा** : ह्या झाडाचें कांड आमच्या पांचूय जाणांचे वेंगेत मावचेंना न्हय ?

**रामजी** : आनी ही धोल पळयात. आमी सगळे भितर वचून बसूंक शकतात. (ते धोल पळोवन अजापतात)

**चित्रा** : पिटर, सुरज आनी रोहीताक उलो घाल. बेगीन यो म्हणचें.

**पिटर** : ओऽऽऽ सुरज, रोहीत ऽऽऽ बेगीन येयात ऽऽऽ कू ऽऽऽ (पिटर उलो घालता. ते जाप दितात. रामजी आनी चित्रा झाडाक बारकायेन नियाळटात.)

**चित्रा** : It's wonderful. It's really beautiful....

**सुरज** : आरे ऽऽऽ म्हज्या बाबा! It's marvellous... केदें व्हडलें झाड रे? आयज हांव खऱ्यानीच धन्य जालों.

**रोहीत** : व्वा ऽऽऽ (वयर झाडाक पळोवन अजापता) व्वा! व्वा! व्वा! झाडाचे तेंगशेर तांबडीं तांबडीं घोसांनी फुलिल्लीं फुलां पळयात. एकादो झुंबर हुमकळावचो तशीं तीं फुलां लोंबकळटात.

**चित्रा** : (धांवत येत) पळोवया. खंय रे तीं ? दिसच ना मरे (वयर पळयता)

**रोहीत** : हो तो ऽऽ वयर नीट खांदो गेला ताचे कुशिच्या खांद्याक पळय. दिसलीं ?

**चित्रा** : आरे वा! कितलीं सुंदर फुलां रे. लागीं हातिकडेन आसल्यार हांव काडटलें आसलें.

**पिटर** : ताचे कुशीच्या खांद्याक होवड्डुवींच लोंबकोळटात तीं फळां चोयात.

**सुरज** : पयस पयस मेरेन पातळिल्ले खांदे पळयात. (सगले वयर पळयतात)

**रामजी** : फकत खांदेच पळोंवक नाकात. त्या खांद्याचो धवसाळ रंगूय पळयात.

**पिटर** : तीं फळां तोरगां कोशीं दिसतात न्होय?



**सुरज** : ह्या झाडाचीं पानां मात पिपळा पानां वरीच.

**चित्रा** : ह्या झाडाचे खांदे शिडमाच्या रुखावरी दिसतात.

**रामजी** : आयजवेर रानात इतलों भोंवलां पूण असलें झाड हांवें केन्नाच पळोवंक ना.

**रोहीत** : तूं नाका पळोंव. पूण तुज्या धर्मान आयज आमकां तरी हें झाड पळोवंपाक मेळ्ळें.

**पिटर** : तूं ह्या दोंगरार आमकां घेवन येवंक नासलेलो जाल्यार हें झाड आमकां दिसचेंच नासलें.

**सुरज** : हांवें या म्हटलें म्हण तुमी हांगा आयले. ना जाल्यार तुमी ती अदृश्य झर सोदीत रानभर भोंवतले आसले.

**रोहीत** : हे धोलींत अस्वल बी ना मरे. ना जाल्यार आमचे दोळे काडून आमच्याच हातार दीत.

**रामजी** : आसलेंपासून जाल्यार आमच्या बोवाळान तें पळ्ळें आसतलें.

**सुरज** : ह्या रानात अस्वलां, वाग, देवकोले, साळ्ळी बी खूब आसतल्यो न्हू? रानात सगळेकडेन तांची पांवलट लागल्या. वचत थंय गव्यां रेड्यांच्या पांयांचीं गेतां लागिल्लीं दिसतात.

**रामजी** : धोल बरीच मोठी आसा. हें झाड भितल्ल्यान वयर मेरेन पोखरलां आसपाक जाय.

**पिटर** : पावस बी येयल्यार हे धोलींत रावपाक बरें.

**चित्रा** : ही धोल म्हळयार खडपाची पेडूच कशी हां!

**सुरज** : (भितर टॉर्च घालीत धोल बारकायेन नियाळटा.) धोलींत फातरांची रास सोडली जाल्यार आनी कांयच ना.

**रामजी** : फातरांची रास आसा म्हणटकच कोणतरी मनीस हांगा येवन गेला आसपाक जाय.

**रोहीत** : येवन गेला न्हय. आतऱ्या पयऱ्यान कोण तरी हांगा येता असो म्हजो अदमास.

**चित्रा** : रोहीत म्हणटा तें सारकें. ही मळ्ळया ती वाट पळयल्यार कोण तरी ह्या झाडा वटेन येता म्हणपाचें कळटा.

**रामजी** : (वाटेक नियाळीत) चड करून हे वाटेन भोंवता ती साळ ना जाल्यार एकादें गार आसपाक जाय. जनावर वाटेन घोळटा आसत जाल्यार वाट अशीच मळटा.

सुरज : हे वाटेन अशेच सकयल चलून गेले जाल्यार आमी शेर्त ते झरीकडेनूच पावतले.

चित्रा : आमी पयलीं जेवन घेवया. आनी मागीर हो परीसर भोंवून पळोंवया.

पिटर : आतां आमी जेवपाक बस या (सगळे आप आपले जागे धरून बसतात)

रोहीत : (बसला थंयच्यान) जेवचे पयलीं हि तीं ऽऽऽ वयर दिसतात तीं फळां फातरायल्यार कशीं ? जेवतकच आमच्यान फातर शेवटुपाक काय जावंचेनात. फळां गोड आसल्यार खावन तरी पळोंवपाक मेळटलीं.

रामजी : खा आनी मर. एकदां खंय एका मनश्यान पेरां म्हण गेळयेच्या झाडाचे पिकिल्ले गेळे खाल्ले आनी ओकून ओकून मरणा धडेक पावलो...

पिटर : तेशें जाल्यार नाका रे बाब.

चित्रा : फातरावपाक हांव तयार आसां. (उठ्ठा)

सुरज : तुमी थंयच बसात. आमीच सकयल देंवयतात त्या फळांक.

रोहीत : पिटर बरेशे फातर तरी सोदून हाड मरे. फळां कसलीं तीं तरी पळोवंया. (चित्रा, सुरज आनी रोहीत उठून फातर सोदतात. रोहीत ओड काडून फातर नेटान शेवटिता. नेम चुकून फातर खांद्याक आपटता आनी ते सरशीं एक किळांच आयकूक येता. सगळे वयर पळयतात आनी आंग काडटात.)

चित्रा : कोण !

रामजी : वानर, शेकरो नाजाल्यार एकादो काटांदर बी झाडार वयर आसतलो. हीं जनावरां केन्ना केन्ना मनश्यावरीच रानात केकाडटात.

सुरज : कुशीक सर पळोवंया. आतां हांव एक फातर मारून पळयतां. तुमी कान दिवन कसलो आवाज येता तो आयकात. (फातर शेवटिता. इतल्यान बायल मनशेची एक व्हडली किळांच आयकूक येता. आतां ते सगळे भियेतात. पिटर रामजीक घट धरता. फाटीं सरत ते त्या झाडाक नियाळटात. धोलींतल्यान रंगयाळो धुंवर भायर सरता. बायलेचें व्हिवळप आयकूक येता...)

पिटर : चोलात. वेळ काड नाकात. हांगच्यान या आमी.

रामजी : रावात. अशे कळवळू नाकात. कोणतरी बायलमनीस झाडार चडून बसल्या आसतली.

सुरज : ह्या अटंग्या रानात आनी बायल ?

चित्रा : भूत बी न्हू मरे !

**पिटर** : आमी भुतांच्या रानात पावल्यात शे दिसोता !

**रोहीत** : रामजी म्हणटा जाल्यार ती बायलूच आसपाक जाय.

(सगळे वयर झाडाचेर पळयतात. झाडाचें व्हिवळप नेटान चालू जाता. ते भियेतात आनी फांटी सरतात. ते एका मेकांक थंयच्यान वचपाच्यो कुरवो करतात. भियेतूच ते एकमेकांचो हात धरीत कडसपाक सोदतात. इतल्यान...)

**झाड** : रावात. म्हाका भियेवन अशे पळून वचूं नाकात. येयात, अशे म्हाज्या म्हऱ्यात येयात. (ते चडूच भियेतात)

**चित्रा** : ना. आमी हांगच्यान वयतात. आमची चूक जाली. तूं वयर झाडार आसा म्हूण आमकां खबर ना. आमी ह्या झाडा वयलीं फळां फातरायताले. तुजेर चुकून फातर बसलो. आमकां माफ कर.

**झाड** : अशे थरथरतात कित्याक? म्हाज्या लागीं येयात. (ते चडूच भियेतात)

**रोहीत** : ना. आमी जाणा जावन कांयच करुक ना. चुकून फातर बसला आसतलो तुजेर.

**झाड** : चुकून फातर बसला काय जाणा जावन माल्ला ?

**रामजी** : चुकूनूच बंसला आसतलो तुजेर. आमची चूक जाली.

**सुरज** : हांवें त्या फळाचेर नेम धरलेलो. तो चुकलो आनी तुजेर बसलो. हातूत म्हजी कांयच चूक ना. आमी परत फातर मारिनात.

**पिटर** : सायबिण मायच्यान हांयें तुजेर फातोर मारूक ना. भोगोस आमकां.

**रोहीत** : पूण तूं अशी झाडार वयर लिपून रावून आमचे कडेन कित्याक उलयता?

**झाड** : हांव लिपून रावूक ना. हांव तुमचे मुखारूच उबें आसा.

**पिटर** : ऊऽऽ ऊऽऽऽ ऊबें आहा! भूऽऽ भूऽऽऽ भूत... रामजी आमी हांगांसावन या. (थंयच्यान धांवपाक सोदतात)

**झाड** : अशें भियेवं नाकात. हांव भूत बी कोणूच न्हूं. हांव तुमचेच वरी मनीस.

**रामजी** : मनीस? पूण तूं आमकां हांगा खंयच दिसना.

**झाड** : हांव तुमचेच मुखार उबें आसा. तुमचेकय उंच आनी पिरायेन व्हडलें.

(ते तोंडा वरशीं करुन वयर झाडाक पळयतात)

**चित्रा** : आमचेकय उंच... आनी पिरायेन व्हड...!

**झाड** : तुमी म्हजेच सावळे तळा उबे आसात.

**सुरज** : तुजे सावळे तळा !

**पिटर** : भुतच आसतोलें तें. चलात धांवात... (धांवपाक लागतात)

**झाड** : सांगलें न्हय हांव भूत बी कोण न्हय म्हण. म्हाज्या भयान ह्या रानातल्यान धांवश्यात जाल्यार आंग कांट्यानी उरबट्टलें. फातरांक आपटून आनी वेलींक पांय घुस्पून तुमची ताडीमिडी शिवडी जातली. ह्या रानाक अंत ना पार... एकदां भितर सरिल्ल्याक रानातल्यान भायर सरपाची वाट सोपेपणी मेळना. मेळत ते वाटेन धांवत सुटल्यार तुमी एक एकलो वाशेलाचे भकीक पडून जीव व्हगडावन बसतले. ताचे परस तुमी म्हाज्यो चार गजाली आयकात आनी उपरांतूच घरची वाट धरात.

**रामजी** : हें सगळें बरें आसा. पूण तूं तुजें खरें रूप आमकां कित्याक दाखयना ?

**झाडा** : म्हाजें खरें रुप तुमी हांगा येतकच बारकायेन पळोवंन घेतलां.

**रोहीत** : आमी तुकां पळयलां ?

**झाड** : हय. तुमी सगळ्यांनी म्हाका पळयलां.

**सुरज** : आमी ह्या रुखातळा पावलेले तेन्ना हांगा कोणूच मनीस नासलो. हे धोलींतूय कोण ना. हांवें ते धोलीत टॉर्च घालून पळयल्या. थंय भितर आसा फक्त फातरांची रास.

**चित्रा** : झाडाच्या आडसाक लिपून रावून आमकां अशी घुस्पांव नाका. तूं आमच्या मुखार येवन उबी राव. रामजीक सोडलो जाल्यार आमकां कोणाकूच रानात भोंवपाची सवंय ना.

**पिटर** : हांव जाल्यार पोयले फावट रानात भितोर सोल्लां.

**रोहीत** : हांव एक दोन फावट अळम्यांच्या निमतान रानात भोंवलां पूण इतल्या दाट रानात केन्नाच येवंक ना.

**रामजी** : तूं तुजें खरें रूप दाखयना जाल्यार आमी हांगाच्यान चल्ले.

**झाड** : हांव कोण तें तुमकां जाणा जावन घेवंक जाय ?

**सगळे** : हय ऽऽऽ. आमकां जाणा जावन घेवंक जाय...

**झाड** : तुमी इतलो वेळ जाका अजापान पळयताले तेंच तुमचे मुखार उबें आशिल्लें हांव झाड. (धोलींतल्यान धुंवर भायर सरता. विचित्र आवाज आयकूक येतात.)

**सगळे** : झाड! (सगळे अजापीत जावन वयर झाडाक पळयतात.)

**झाड** : हय, हांव झाड... ह्या अटंग्या रानात कोणायचेंय लक्ष ओडून घेवंचें अशें हांव

झाड. ह्या रानातलीं सुकणीं, सांवदां, किडी, मुयो लेगीत हांगा पावतकच कांय खीण म्हाका पळयतूच रावतात. तुमचे नदरेनूय म्हाका सोडलें ना. तुमी म्हाका पळोंवन अजापल्यात... खोसयेन घटका भर नाचल्यात तें हांवेंन पळयलां.

**पिटर** : झाड आनी उलोयता ! हें आनी ओजापूच मुरे.

**रामजी** : झाडां उलयतात तीं हांवेंन केन्नाच आयकूक ना.

**झाड** : झाडांच न्हय... ह्या रानातलीं सुकणीं - सांवदां, किडी-मुयो धरून फातर - खडपां लेगीत उलयतात. तुमच्या त्या फतेली मामान भुतराना संबदान सांगिल्ली गजाल फट न्हय. तें एक सत्य.

**रोहीत** : म्हणजे ह्या रानात झाडांच्या, सुकण्या-सावदांच्या रूपान भुतां रावतात तर.

**झाड** : भुतांच्या ह्या रानात भुतां रावनात.

**चित्रा** : मागीर हांगा कोण रावता तर ?

**झाडा** : तोंडयो जादुगार...

**सगळे** : तोंडयो जादुगार !

**झाड** : तुमी व्हदळ दोंगराच्या तेमकार उबे राविल्ले ताचे सकयले वटेतल्या ह्या काळेरान वांठाराचो तो राजा. ताचोच हांगां शेक चलता.

**सगळे** : तो खंय आसा ?

**झाड** : हांगाच, ह्याच रानात. तो जादुगार एका पालसणातल्यान दुसऱ्या पालसणात एक सारको भोंवत आसता. एका दोंगरार ताचो चार दीस राबितो आसता.

**रोहीत** : ह्या दोंगरार तो केन्ना येतलो ?

**झाड** : आनीक दोन दिसांनी.

**पिटर** : तो येवंचे पोयलीं आमी हांगासोरल्यान पोवल्यार बोरे.

**रोहीत** : हय व्हय आमी हांगासरल्ल्यान कडसल्यार बरे. नाजाल्यार हीं भुतां आमचे मानगुटेर बसतलीं.

**सुरज** : चलात या. घरचीं मनश्यां आमची वाट पळयतलीं.

**चित्रा** : फाल्यां आमकां कॉलेजीक वचपाक जाय.

**रामजी** : हय, हांवूय हाती पोटावयलो मनीस.

**पिटर** : ह्या भुताचे गोजालीक रावल्यार आमकां तो तोंडयो जादुगार खायन उडयतलो.

**झाड** : उपकार करून म्हाका भूत म्हणू नाकात. हांव तुमचे आवय समान.

रोहीत : आमची आवय! झाड आमची आवय कशी जावंक शकता. मनश्याच
रूपान आसा जाल्यार आजून तूं आमकां दिसना कित्याक तर ?

झाड : हांव तुमकां मनश्याच्या रूपान दिश्टी पडचें ना. फाटलीं कितलिंशींच व
हांव झाडाच्या रूपान हांगा कश्टातां.

सुरज : एक सांग, तुकां झाडाच्या रूपान जीण कश्टपाक लावपी हो दुश्ट कोण

रामजी : तुजी अशी गत करपी ह्या रानात असो कोण आसा ?

झाड : तो क्रूर मायावीं तोंडयो जादुगार.

सगळे : मायावी तोंडयो जादुगार !

झाड : हय म्हाज्या पुतानो. त्या तोंडया जादुगारान आपलेकडेन आसलेले माया
शक्तेन म्हाजें अशें हें विचित्र झाड केलां.

पिटर : रामजी वोगोत करूं नाका आमी घोरा पोवया. तो तोंडयो जादुगार येयल्य
आमचींय झाडां कोत्तोलो. चोल या आमी (तो वचपाक फोर्स करता.)

झाड : नाका. रानात म्हाका अशें एकट्याक सोडून वचूं नाकात. म्हाजें झाडा
रूपांतर जाल्ल्याक आतां मेरेन हांवें ह्या रानात एकट्याय मनश्याक पळोवंव
ना. तुमच्या रूपान म्हाका आयज देव पावला. म्हाजें उतर आयज देवा
आयकलां. म्हाजो पूत म्हाका आतां परत मेळटलो. म्हाजो पूत म्हाका जाय
म्हाज्या पुताक म्हाका दोळेभरून पळोवंपाक जाय... (झाड दुःख्खी जाता
रडपाक लागता.)

सगळे : तुजो पूत! खंय आसा तुजो पूत?

झाड : लागींच आसा पूण म्हाजे पासून खूब पयस.

चित्रा : लागींच पूण खूब पयस ! अशें कशें जावंक शकता ?

झाड : तो म्हाजे मांडयेर बसला पूण हांव तेका पळोवंक शकना.

पिटर : चोवपाक जायना! हें आनी एक ओजाप मुरे.

सुरज : तुजो पूत खंय आसा तो आमकां सांग. ताका आमी आत्तां सोदून हाडून तुजे
मुखार उबो करतात.

झाड : तो तुमकां तसो हातीक मेळचोना.

सुरज : तो खंय आसा तें तरी सांग ?

झाड : ती एक मोठी काणी आसा... काणी म्हाज्या जल्माची.. काणी ह्या रानाची..
रानात रावपी जनावरांची... काणी त्या क्रूर तोंडया जादुगाराची.. येयात,

अशे पयस पयस रावूं नाकात. लागीं येयात. म्हाज्या म्हऱ्यात अशे सकयल बसात. तुमकां हांव आमच्या कश्टदिण्या दुःखाची काणी सांगतां.... (ते सकयल बसतात.) आमी त्या वर्सा नाम्या दोंगराक कुमेर शेत हणलेलें. शेतांत नाचणो भरपूर पिकलो. लांडीर कणसां काडपाक आमी घरचीं सगळीं शेतांत येयल्लीं. आमचें तें शेत दिसाचे वाटेर आसलें. म्हाजो पूत विठू तेन्ना बारीक. आमचे वांगडा शेतात येवंक तो आकांत करता तें पळोवन आमी तेका शेतांत घेवन गेलीं. आजून दीस माथ्यार येवंक नासलो. आमी शेतात कणसां काडटालीं. विठू आमचो दोळो चुकोवन केन्ना रानात रिगलो तें आमकां खबरूच ना. (फ्लॅश बॅक सीन. विठू बुरांस घेवन रानात भोंवता) बुरांस घेवन तो पयस रानात पावलो. विठू ना म्हूण कळटकच आमचेर आकांत येयलो. आमी सगळीं तेका मेळत ते वटेन सोदपाक लागलीं. हांवूय रानात रिगलें. कांय वेळान पयस रानात तेची म्हाका बोब आयकूक येयली... (तोंडयो जादुगार विठूक रानातल्यान ओडीत व्हरता. तो रडटा. आड्डता ताची आवय ताका तोंडयो जादुगाचे तावडीतल्यान सुटका करपाक ताचेर झोपय घालता. तोंडयो जादुगार तिच्या कमरा बराबर लाथ घालता आनी तिका जमनीर शेवटिता. रागाच्या भरात तोंडयो जादुगार तिचेर जादू चलयता आनी तिचें चित्र-विचित्र झाड करता...)

**झाड** : अशे तरेन तोंडया जादुगारान म्हाजें झाड केलें.

**सगळे** : आनी, तुज्या विठूचें कितें जालें ?

**झाड** : फातर...

**सगळे** : फातर!

**झाड** : हय. त्या जादुगारान म्हाजें झाड आनी विठूचो फातर केलो.

**रामजी** : खंय आसा तो फातर ?

**झाड** : म्हाज्या आंगाची धोल तयार जाल्या ते धोलींत..

**सुरज** : त्या फातरांनी तुजो पूत विठू आसा !

**झाड** : म्हाजो पुतच न्हू. वाग, अस्वल, मोर, वानर, चितळ, आनी तुमच्या सगळयांची मांणकुली भयण पिंकी लेगीत ते धोलींत आसा. ह्या सगळयांक त्या तोंडया जादुगारान धोलींत घालून तेंचे फातर केल्यात. (ते अजापतात)

**पिटर** : आवोय म्हुजे माय. तिगां त्या धोलींत वाग आहा ?

झाड : सादो बिबटो वाग न्हूं. व्हडल्या पट्ट्यांचो असोणयो वाग. पूण तो मनश्याक कांयच करीना. रानातलें खंयचेंच जनावर कारण नासतना मनश्याचेर उडी घालिना. मनीसूच जाल्यार ह्या मोनजातींक मारून तांचें मांस खाता. तांचीं शिंगां, दांत, जीब, चामडें, आनी तांच्या आंगाचे चरबेची वोंस काडून विकतात.

रोहीत : आमी तशें आयज मेरेन कांयच करून ना. कास वा भोंवडी काडूं नाकात म्हण आमी आमचे संस्थे वरवीं लोकांक सांगतात. तांचे भितर जागृताय येवंची म्हण वेगवेगळे कार्यक्रम घडोवन हाडटात

झाड : तोंडयो जादुगाराचें एक बरें. तो रानातलीं जनावरां मारून खायना पूण तो तेंकां आपल्या धांकात दवरता. राग येतकच तेंचेर जादू करून तेंचे फातर करता.

सुरज : कांयच गुन्यांव नासताना तोंडयो जादुगार दुसऱ्यांचे फातर आनी झाडां कित्यात करता ?

झाड : राजाचे तकलेक राजसत्ता चडटकच अशेंच घडटा. हो सगळो रान वांठार त्या तोंडया जादुगाराचो. आपल्या मनाक मारता तें तो ह्या रानात करता. बरें दिसता ताचो तो भोग घेता. आपल्या मना आड करणी केल्या अशें दिसतकच तो तेंका ख्यास्त करता. तो कोणाकच मुक्तपणान ह्या रानात भोंवपाक दिना. आपल्या राज्याचे शिमे भितर येवप्याक परत घरा वचपाक दिना. आपले कडेन आशिल्ले मायावी शक्तेन तो तेंची म्हजेवरी गत करता.

चित्रा : तुजें एक समजूं येता पूण त्या वागान, मोरान, चितळान, अस्वलान ताचें कितें वाकडें केल्लें ?

झाड : ह्या रानातले झरिची खबर तुमी आयकल्या न्हूं ?

रोहीत : मनश्यांक दिसना आनी जनावराक दिसता ती झर ?

झाड : हय तीच.

सुरज : तिचें कितें जालें !

झाड : ह्या काळेरानातल्या देगणात एका काळार एक वझरो घसघसतालो. त्या वझऱ्याक लोक पोंयो वझरो ह्या नांवांन वळखताले. भोंवतां भोंवतां एक दीस हो तोंडयो जादुगार ह्या रानात पावलो. दाट झाडां आशिल्लें हें रान तेका खूब मानवलें खंय. त्या आत्मसुवार्थी दुश्ट तोंडया जादुगारान त्या पोंया वझऱ्याचेर जादू करून तेची ल्हान झर केली. आतां ती झर फक्त तो

जादुगार आनी मोनजातूच पळोवंक शकता. मनश्याक ते झरिच्या उदकाचो फक्त आवाजूच आयकूक येता. ह्या रानात लागीं लागसाराक आनीक झर वा व्हाळ ना. तेका लागून रानातलीं सगळीं जनावरां ते झरीर उदक पियेवंपाक देवून येतात. तोंडयो जादुगार थंय आसतना वा तो थंय पावतच कोणूय जनावर ते झरीचें उदक पियेतना दिसल्यातर तो आपले कडेन आसलेल्या जादवाचे शक्तेन तो त्या जनावराक आडावन धरता. दया माया दाखय नासतना मागीर तो तेंका फरफरीत ओडीत हांगा हाडटा. आनी हे धोलींत घालून तेंचे तो फातर करता.

**सुरज** : झरिचें उदक पियेलां इतलोच तांचो गुन्याव ?

**झाड** : केन्ना केन्ना तो मजेखातीर आपले कडेन आसलेल्या जादवांचो प्रयोग करता.

**चित्रा** : दुश्ट खंयचो. तशें जाल्यार ह्या रानात जगपाचो ताका निखालूस अधिकारच ना. निरअपराध्यांचेर आपली सत्ता गाजोवप्याक, तांचेर अन्याय-अत्याचार करप्याक ख्यास्त ही जावंकच जाय.

**झाड** : हय, तुजें म्हणणें बरोबर आसा. हें रान सगळयांचें. ह्या रानात जण एकल्याक आसरो मेळपाक जाय. ह्या रानातलें उदक सगळयांक पियेंवपाक मेळपाक जाय. तुमकां लेगीत.

**सुरज** : काळेरानातल्या ह्या उदकाचेर सगळयांचो समान हक्क आसा. आपल्या स्वार्था खातीर येदो मोठो वझरो आटोवन ताची झर करप म्हळयार मुर्खपणाचें.

**चित्रा** : आपणें उदकान बुडून रावप आनी बाकिच्यानी उदकाच्या एका थेंब्या खातीर वळवळप... हें बरोबर न्हय.

**झाड** : तुमचे तळमळे म्हाका कळटात.

**रामजी** : हाचे खातीर आमकां आतां कितें कर म्हणटा ?

**झाड** : तोंडया जादुगाराच्या चपक्यातल्यान ह्या सगळयांनी सुटका.

**रोहीत** : पूण आमकां तें कशें शक्य आसा. तोंडया जादुगारान आमकां पळयल्यार आमचेय तो फातर करून हे धोलींत कायमचे बंदिस्त करतलो.

**पिटर** : (सुरजाक) तुंवें झाडार फातोर माल्लो आनी आमचेर फातोर जावंपाची पोरिस्थिती हाडली. काय बोरे येन्ना आमी घोरा पावपाचे.

**झाड** : हांव तुमकां कोणाकूच फोर्सार करिना. तुमकां जाय जाल्यार तुमी आतांच घरची वाट धरूं शकतात. तुमी ह्या रानात येयल्यात ते पळोवन आयज हांव

खूब खोशी जालां. तुमी प्रामाणीक पणान प्रयत्न केल्यार एके आवयक आपलो पूत मेळटलो. भावाक भयण मेळटली. घोवाक बायल मेळटली. इश्टांक आपलो सांगाती मेळटलो...

**रामजी** : आमी प्रामाणीक पणान प्रयत्न करपाक तयार आसात. फक्त तुजो आमकां सांगात जाय. (सगळे रामजीक पळयतात आनी मागीर एका मेकांच्या तोंडाकडेन पळयतात)

**झाड** : खरेंच! तुमी आमकां सगळ्यांक मुक्ती दिवपाक तयार आसात ?

**सगळे** : हय ऽऽ हय ऽऽऽ आमी तुमकां मुक्ती दितले... त्या तोंडया जादुगाराच्या तावडीतल्यान तुमकां सगळ्यांक सोडयतले. आमी तसो सोपूत घेतात. (सगळे मेळून सोपूत घेतात. झाड आनंदान धोलपाक लागता. पानांचो सळसळ आयकुपाक येता... ते सगळे त्या झाडाक पळयत रावतात. माचयेर काळोख जाता.)

## देखावः तीन

(माचयेर वेगवेगळ्या आकार आनी रंगांचे फातर आसात. त्या फातरांक ते सगळे लक्तुबायेन पळयतात.)

**सुरज** : (तांबसो फातर उखलीत) म्हज्या मताप्रमाण ह्या फातरारत शेर्त वाग आसपाक जाय.

**पिटर** : हो वागूच आसतेलो हें तूं कित्यावेल्यान म्हुणताय ?

**सुरज** : हाचो रंग पळयात. वागाच्या रंगा वरीच तांबसो आसा.

**रोहीत** : (काळो फातर उकलीत) तशें जाल्यार हातूत अस्वल आसपाक जाय.

**रोहीत** : (लांबोडयो फातर हातात घेयत) ह्या फातराक पळयात. हो मोरावरी लांब आसा.

**चित्रा** : म्हाका मोर खूब आवडटा. (मोराच्या फातराक हातात घेता)

**रामजी** : (वाट्कुळो गुळगुळीत फातर उखलता आनी ताका पोशेता) हो ह्या झाडाचो पूत विठूच आसपाक जाय. न्हंयचे तंडिवयल्या फातरावरी कितलो सोबीत दिसता न्हय हो फातर ?

**पिटर** : (गुळगुळीत फातर आपले कडेन घेत ताचो उमो घेता.) ह्या फातराक मनश्यात

हाडीत जाल्यार हो म्हज्या भावा भशेन दिसतलो.

**सुरज** : आनी ती चली पिंकी खंयची काय ? (सगळे सकयल बसतात आनी तो फातर सोदतात)

**रोहीत** : (भांगरा कोराचो ल्हान फातर उखलीत) रामजी, आमकां सगळ्यांक भयणी आसात. तुकां मात भयण ना. राखी बांदपाक, भाऊबीज करपाक तुकां एक भयण जाय. ही घे तुकां भयण (फातर रामजीकडेन दिता)



**रामजी** : (रामजी त्या फातराक तोखेता आनी आल्लय गीत म्हणटा)

**बाय म्हाजें गुणूलें**
**माये मोगाचें शाणुलें....**
**चंदा मामा येयला पळय**
**बाय व्हरूक तुकां...**

**चित्रा** : हांव मोराचें गीत म्हणटां हां ? (फुगडी गीत म्हणटा)

**मोर सये मोर गे ऽऽऽ**
**पिंगारी मोर गे ऽऽऽ**
**आज मोर चांगला**
**पांखाट्यांनी रंगला**
**मोर सये मोर गे ऽऽऽ**
**आज मोर चांगला**
**तोचिनी रंगला**
**मोर सये मोर गे ऽऽऽ**
**आज मोर चांगला**
**पांयांनी रंगला**
**मोर सये मोर गे ऽऽऽ**

**झाड** : हें पळयात तुमी त्या फातरांकडेन आतां चड वेळ खेळत बसूं नाकात. तोंडयो जादुगार ह्या सांजच्या मायत्याक केन्नाय येवंक शकता. म्हाजे उजवे वटेन पळयात. (ते पळयतात) हे त्या घोटकाच्या रूखा मुळांत तुमी लिपून रावात. हांगा कितें चल्लां तें थंय सावन सगळें दिसता. ते सुवाते कडल्यान एक पावल लेगीत भायर घालूं नाकात. तशेंच तोंडयो जादुगार येतकच म्हाजे सावळे पोंदा चुकून पासून येवं नाकात. हांवें तुमकां सांगलां तें सारकें मतीत दवरात. तुमी म्हाजे हे सांगणेचें पालन केलें ना जाल्यार तुमकां फातर जावन हे धोलींत कश्टुवंचें पडटलें. तुमचे भितरलो एकलो लेगीत त्या तोंडया जादुगाराचे हातीक लागलो जाल्यार आमची येवजण फळादीक जावंक पावचिना.

**रामजी** : चलात आमी हे फातर आसले तशे धोलींत व्हरून दवरूया. (हातातले फातर भितर व्हरून दवरपाक वयतात. सुरजाच्या हातातलो तांबडो फातर जमनीर पडटा. तशी वागाची डरकाळी आयकूक येता. सुरज एकूच किळांच मारता.

सगळे भियेवन पयस पळटात.)

झाड : अशे भियेंव नाकात. फातर पळोवंपाक निर्जीव दिसलो तरी तांतूत असोणया वागाचो प्राण बंदिस्त जाल्लो आसा. तो फातर तुमचें कांयच करचो ना. उखलात तो फातर आनी धोलींत व्हरुन दवरात.

पिटर : म्हाका भिरांत दिसोता.

सुरज : म्हाका त्या फातराक हात लावपाक भय दिसता.

झाड : अशें उतरा पावलाक भियेवन कशें जातलें ? काळीज घट करात. तुमचे मुखार येवपी जण एका संकश्टाक तोंड दिवपाची तयारी दवरात. चलात उखलात त्या फातराक... (सुरज फातर उखलता आनी थरथरतूच धोलींत भीतर व्हरून दवरता.)

रामजी : तोंडयो जादुगार येतकच आमी कितें करचें तें आमकां पयलीं सांग.

झाड : तुमी कांयच करप ना. तो एकादें जनावर ओडून हाडिसर तुमकां हांगा रावून त्या खिणाची प्रतिक्षा करची पडटली. जनावर हाडून तो धोलींत घालतलो. धोलींत वयर दवरिल्ली जादवाची काडी घेवन तो मंत्र उच्चारतलो. तो मंत्र तुमी सारको कान दिवन आयकात. त्या मंत्राचें उतरान उतर घट्ट मतीत धरात... म्हणटकच तुमचें अर्दें काम जालें.

पिटर : पूण तो जनावर हाडटलो केन्ना ?

झाड : केन्नाय. आयज, फाल्यां, आठ दिसांनी, म्हयन्यान...

रोहीत : म्हणजे आमकां इतले दीस हांगाच रावचें पडटलें ?

चित्रा : आमी ह्या रानात खावप कितें ?

झाड : रानात मनीस केन्नाच उपाशी पडना. तुमी व्हदळ उबीं राविल्लीं त्या दोंगराच्या दुसऱ्या अर्दान एक व्हड मळ आसा. त्या मळार काण्णां. चुन्ना, हांसाळे, चाफ्रां, लाळयां, आवाळे, आमटां भरपूर आसात. एकादें बेत तोडून तुमच्यानी पोटभर उदक पियेंव येता.

पिटर : आमी एक दीस ह्या रानात रावपाक शकतात. पूण आठ दीस रावपाक पोडलें जाल्यार तें आमकां कशें शक्य आसा ?

झाड : हें पळयात तुमी म्हाका तशें उतर दिलां. तुमी तसो सेपूत घेतला.

पिटर : उतोर दिलां खरें पूण...

झाड : धांवात, पळात... तोंडयो जादुगार येता. वचात बेगीन... (ते भियेतात.

हेवटेन तेवटेन धांवपाक सोदतात आनी मागीर सगळे थारायल्ल्या जाग्यार वचून लिपून बसतात. कांय वेळ माचयेर शांतता. आक्राळ विक्राळ आवाज आयकुपाक येतात. जनावरांचो आवाज... तोंडयो जादुगार रागाच्या भरात एका धव्याफुल्ल सोश्याक ओडीत घेवन येता. ताका माचयेर उडयता... ताचेर पांय दवरता. सोश्याची भियेवन गुळी जाता.) चोरा, हांव वाटेन वयतना तूं म्हाज्या मुखावयल्यान आडवो धांवलोच म्हणजे कितें. कोण समजलो तूं म्हाका? तोंडयो जादुगार म्हणटात म्हाका. हें काळेरान म्हाजें. ह्या रानातलीं झाडां, सुकणीं, सांवदां म्हाजे वटेन मान वयर करून लेगीत पळयनात. वाग पासून म्हाका थरथर ल्हायो कसो कांपता. अस्वल तर म्हाजे झळकेक रावना. आनी तूं तर येदोसो गांजुड्डो सोसो. उठ, वच ते धोलींत. तुवेन केल्ले चुकिची तुका खास्त ही मेळपाकय जाय. (हांसता...)

**सोसो** : म्हाका मारूं नाका. म्हाका जगपाचें आसा. म्हाका मारूं नाका.

**तों०जा०** : तुकां हांव मारिना. मायावी जादवान हांव तुजो धवोफुल्ल फातर करतां.

**सोसो** : नाका म्हाजो फातर करूं नाका. म्हाजी चूक जाली. हाचे फुडें तुज्या ह्या काळेरानात हांव भोंवपाक येवंचोना. हें रान सोडून हांव कायमचों तोंड घेवन वयतां.

**तों०जा०** : (हांसता) ना. तूं हेचे फुडें ह्या रानातूच रावतलो. पूण सोसो जावन न्हूं. धवोफुल्ल फातर जावन. आतां हेचे फुडें तुकां जाय तशें जाय थंय भोंवपाक मेळचें ना. फुडलें सगळें जिवीत तुकां ह्या झाडाचे धोलींत सारचें पडटलें. चल वच पयलीं ते धोलींत...

**सोसो** : ना. म्हाका भय दिसता. म्हाका फातर जावंपाचो ना.

**तों०जा०** : फातर जावंपाचो ना जाल्यार हांव तुजो गोबर करतां तीन चिमट्यो गोबर.

**सोसो** : नाका. हांव तुज्या पांयां पडटां. तूं सांगतां तें आयकतां. म्हाका सोड. रानात म्हाजीं पिलां एकटीं आसात. तांकां म्हाजो आदार जाय. तीं म्हाजी वाट पळयतलीं. सोड म्हाका. (तो रडटा)

**तों०जा०** : रडटल्यांची म्हाका काकळूट येयना. आनी एकदां घेतलेलो निर्णय हांव कसोच फांटी घेयना. उठ आनी मुकाट्यानी चल ते धोलींत. ना जाल्यार हांगाच करतां तुजो गोबर... फक्त तीन चिमट्यो गोबर... (सोसो रडत रडत धोलींत भितर वयता. रडपाचो आवाज आयकूक येता.) गेलो एकदाचो. हो

सोसो आतां कायमचो म्हाजो बंदो जालो. आपली फुडली जीण हो आतां फातराच्या रुपान कश्टतलो. अशे कितलेशेच फातर ह्या धोलींत आसात... (हांसता) भितर वचून जादुची काडी हाडटा आनी ह्या सोश्याचो कायमचो बंदोबस्त करतां. (तो भितर वचून जादुची काडी हाडटा आनी ती उजव्या हातात घेवन मंत्र म्हणटा.)

**इगडी बिगडी तिगडी थाऽऽ**
**थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ**
**सोश्याचो फातर जा**
**सोश्याचो फातर जा...**
**अगडम बिगडम तिगडम थाऽऽ**
**थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ**
**सोश्याचो फातर जा**
**सोश्याचो फातर जा**
**छूऽऽ मंतर... जादू मंतर... कोला मंतर...**
**धीन तीनक धाऽऽ**
**सोश्याचो फातर जा...**

(आपल्या जाग्या वयल्यान ते पांचूयजाण कान दिवन मंत्र आयकतात. धोलिंतल्यान धुंवर भायर सरता. भितर उजवाड फांकता आनी मागीर गुपाट काळोख...)

**तों०जा० :** (हांसता) आनीक एक मुर्ख फातर जावन धोलींत पडलो. म्हाज्या मना आड जो कोण वागता तेचो असोच फातर जाता. एकादी अस्तुरी म्हाज्या हाताक लागल्यार ह्या झाडावरी तिची गत जाता. न्हूं गो झाडा? (हांसता) एक दीस ह्या सगळ्यांचो म्हाका गोबोर करपाक जाय. तीन चिमट्यो गोबर... (जादुची काडी भितर व्हरून दवरता आनी भायर येता.) चल्लों हांव. म्हाका आतां दुसऱ्या दोंगरार वचपाक जाय. (हांसतूच वयता. माचयेर शांतताय. कांय वेळान रामजी, चित्रा आनी पिटर भिये भियेत येतात.)

**राजमी :** तोंडयो जादुगार गेलो ?

**चित्रा :** गेलो आसपाक जाय.

**पिटर :** रोकडोच पोत्तून येयना मुरे.

झाड : भियेंव नाकात. इतल्यान तो पालसण देवून सकयल पावलो आसतलो.

पिटर : आतां तो पोत्तून बेगीन येवंचो ना न्हूं.

झाड : ना. आतां तो झरीर वचून न्हांतलो आनी मागीरूच दुसऱ्या दोंगरार वचप
भायर सरतलो.

रामजी : कितलो निश्ठूर न्हय तो. दुसऱ्याची तेका मात लेगीत काळकूट येयना.

चित्रा : ते सोशीणेक ताणें दयेची भीक घातली ना. तिचीं पिलां आपली आवय
म्हण रानात रडटात आसतलीं.

झाड : तोंडया जादुगाराचें कर्मकांड तुमी तुमच्या दोळयांनी पळयलें मूं ?

पिटर : तेचें तें कर्तूब चोयन आंगाक थोरथोरो भोल्लो...

रामजी : असल्या हरामखोराक जिवो रावपाचो कसलोच अधिकार ना.

चित्रा : ताका जितोच मारपाक जाय.

रामजी : तेची ती जादुची विद्या आमकां कळ्ळे बगर तेका मारप कठीण. (इतल्या
सुरज आनी रोहीत मंत्र पुटपुटतच भायर येतात. मागीर सगळे लागून
मंत्र म्हणटात... हातात जादुची काडी घेतिल्ले वरी कृती करतात. सग
आनंदान नाचतात.)

**इगडी बिगडी तिगडी थाऽऽ**

**थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ**

**सोश्याचो फातर जा**

**सोश्याचो फातर जा...**

(माचयेर काळोख जाता)

## देखावः चार

(पांचूय जाण विखरून बसलेले आसात. जादुचो प्रयोग पयलो कोणाचे
करून पळोंवचो हाचे विशीं ते विचार करतात.)

सुरज : हो जादुचो प्रयोग आमचे भितरल्या कोणाचेर तरी करून पळोवंपाकूच जा

रामजी : कोणाचेर करतले. आमचे भितरलो कोणूच आपखोसयेन मुखार सरना.

सुरज : मंत्राचो प्रयोग केले शिवाय तो जादू आमच्या हातातल्यान जाता हें कळपा

मार्ग ना.

**पिटर** : तुमी सोगले म्हाका कित्याक चोयतात ? म्होजेर जादू कोरपाक हांव केसोच दिवपा ना.

**रोहीत** : हरशीं म्हण तूं भियेवपाचें सोडून आनी कांयच करिना. फातर जावपाक तूं इतलो कित्याक भियेता ? फातराचो मनीस करपाचो जादू शिकतकच आसलो तसो आमी तुजो पिटर करतात.

**पिटर** : (रडकुळ्यां येवन) तुमी म्हाका फोर्सार केल्यार हांव ह्या रानातल्यान धांव मात्तलों हां. पोयलीं सांगतां.

**सुरज** : तुजो फातर जाल्लो आमकां नाका.

**चित्रा** : हांव जालें चली मनीस. ना जाल्यार हांवूच फातर जावंपाक तयार जावंपाचें.

**रामजी** : तुमी एकामेका कडेन वाद कित्याक घलतात. कितें तरी मार्ग काडुया.

**सुरज** : आमी रानातलें एकादें जनावर धरून हाडून ताचेर प्रयोग केल्यार कशें जायत?

**रोहीत** : रानातलें जनावर धरपा इतली तांक आमच्यात आसा व्हय ?

**सुरज** : एकादें ल्हान मुंगूस, कोगूळ, साळोरी, च्यानी कितेंय चलता.

**रामजी** : रानातल्या मुक्या प्राण्यांक धरून हाडून तेचेर प्रयोग करप समा न्हय. तेंचो फातर करून तेकां धोलींत कश्टुवपाक लावप म्हाका बरोबर दिसना.

**झाड** : रामजी म्हणटा तें बरोबर आसा. जादवाचो प्रयोग स्वःताचेर करून घेवंपाक तुमी अनमनतात. आपलो जीव धोक्यांत घालपाक तुमी धजतात. आनी दुसऱ्यांच्या जिवाची मात तुमकां परवा ना.

**सुरज** : पूण हें सगळें आमी आमचे खातीर खंय करतात तर. हें सगळें चल्लां तें धोलींत फातराच्या रुपान पडून आशिल्ल्यां खातिरूच मूं ?

**झाड** : म्हाका जाणीव आसा तेची. तुमी आमचे मुक्ते खातिरूच ह्या अटंग्या रानात कश्टतात. पूण हें सगळें करतना खंयच्याच निरअपराध्याक ख्यास्त जावंक जायना. पिटराक लेगीत.

**पिटर** : झाड म्हुंण्टा तें सारकें आहा.

**रोहीत** : आमी आतां करप तरी कितें ?

**पिटर** : झाडा आमकां आतां तूंच वाट दाखोय.

**चित्रा** : आमचे भितर सगळ्यांची एकी उतरली अशें कितें तरी सुचय.

रामजी : हय, आमकां एकवटीन दवर आनी तुमचे मुक्तीचो मार्ग सोपो व

झाड : तुमच्यो भावना म्हाका कळटात. तुमी सगळे म्हाज्या पुता वरी. हो प्रस्न शादुरतायेन सोडोवंपाक जाय. हो लढो आमकां एकवटीत पणान

आसा.

सुरज : हो प्रस्न सुट्टलो कसो ?

चित्रा : हो लढो आमी जिखतले कशे ?

रोहित : मुक्तीचो मार्ग आमकां मेळटलो कसो ?

झाड : मेळटलो. निश्चीत मेळटलो.

सगळे : पूण कसो ?

झाड : तोंडया जादुगारा कडल्यान दुसरो मंत्र शिकून.

सगळे : दुसरो मंत्र !

झाड : हय, दुसरो मंत्र, फातरातल्यान मूळ रुपाकडेन येवपाचो जादू.

सुरज : ह्या फातरांक तो तोंडयो जादुगार पयलिच्या रुपात काय हाडचो न आनी आमकां ताचो तो मंत्र काय कळचोना.

रामजी : तुजो पूत फाटलीं कितलिंशींच वर्सां जालीं हे धोलींत आसा.

चित्रा : ताका जिवो केल्लो जाल्यार येन्ना तो जादुगाराचे तावडितल्यान सुटून वचपाचो.

पिटर : वाग बा तेन्नाच पोवपाचो.

रोहीत : मोर पांखाटे फुलोवन भुर्रऽऽऽ करून उडून वचपाचो.

झाड : तुमची ती बडबड थांबयात आनी म्हाजें आयकात. (सगळे ओगी रावतात आनी झाडाची सांगणी आयकतात.) काळखे उमाशेच्या गुडूप काळखांत तोंडयो जादुगार व्हडा दबाज्यान रानउत्सव मनयता.

सगळे : रानउत्सव...!

झाड : हय, रानउत्सव, काळेरान वांठारातलो हो म्हत्त्वाचो दोंगर. हो रानउत्सव तो ह्या दोंगरार काळखे राती मनयता. ते राती तोंडयो जादुगार झरिचे वयल न्हांता. थंय लागींच आशिल्ले पेडीत वचून वागऱ्या देविची पुजा करता. ताचे उपरांत तो आटकुल्या पिटकुल्याक घेवन उत्सव मनोवपाक हांगा येता आनी फातरांच्या रुपांत आशिल्ल्यांक जिवीं करून रानउत्सव मनयता. फातर जावन पडलेल्यांक ह्या उत्सवाच्या निमतान वर्साक एकदां आपल्या मूळ रुपान

येवपाक मेकळीक आसता. हे राती तेंका खाण-जेवण पोटभर दिता. नाच-गाणी आसता. आपूणय तेंचे वांगडा बेधूंद जावन नाचता...

ंत्रा : ह्या रानउत्सवाच्या वेळार ते सगले पळून कित्याक वचनात ?

ाड : तोंडयो जादुगार आमच्या इतलो पिसो ना. तेंकां जिवे करचे पयलीं तो जादवाचे शक्तेन सगळ्यो सिमो बांदून घेता. आखलेले शिमे भायर कोणेय पळून वचपाचो यत्न केल्यार तेचो आपशींच जळून गोबर जाता. तीन चिमट्यो गोबर...

ेटर : आवोय मुजे मांय ओशेंय आहा!

ाड : इतलेंच न्हूं. भायलो कोणूय भितर येवपाक पळयल्यार लेगीत तेचोय जळून गोबर जाता.

मजी : तो रान उत्सव आतां जातलो तरी केन्ना ?

ाड : तुमकां आनीक आठ दीस वाट पळोंवची पडटली.

ेटर : (कपलार हात मारीत) आनीक आठ दीस रावचें पोट्टोलें? घोरा कोडेन आमचो आतां रानउत्सव जातेलो. म्होज्या डॅडीक हांव सामको भितां

ुरज : एक काम हातात घेतलां म्हणटकच आमकां तें आतां तडीक व्हरचेंच पडलें.

ोहीत : परत परत घरचो उगडास काडून आतां कांयच फायदो ना. वयल्यान मनात निर्शेणी मात येतली.

ाड : हांवें तुमकां पयलींच सांगलां. तुमकां जाय जाल्यार तुमी केन्नाय घरा वचपाक शकतात.

पेटर : सॉरी. हांव पोत्तून घराकोडलो उगडास काडपा ना. I am Sorry...

ामजी : विठूचे आवय, आमच्या मनाचो निर्धार पक्को आसा. तोंडया जादुगारा कडल्यान दुसरो मंत्र आमी हातासतलेच.

गळे : हय, हय दुसरो मंत्र आमी मेळयतलेच. (सगळे निर्धार करतात.)

(पड्डो पडटा)

**(अंक पयलो सोंपता)**

# अंक दुसरो

## देखावः एक

(उमाशेची काळखी रात. झाडा पोंदा कवदे पेट्टात. झाडाचे धोलिंतल्यान हय न्हयसो उजवाड भायर सरता. त्या उजवाडान झाडाच्यो खांदयो चकचकतात. तोंडयो जादुगार राजाच्या झेतान येता. ताच्या भेसात वेगळेंपण आसा.)

**तों० जा० :** उमाशेचो काळोख रानभर फांकला. सगळें रान काळखात बुडून गेलां. आनी अशे हे काळखे राती आयज हांगा आमी रानउत्सव मनोवपाचे आसात. झाडाचे धोलींत फातरांच्या रुपांत आशिल्ल्यांक हे राती घटका भर काय जायना हांव तेंकां मूळ रुपांत हाडटां. ही उमाशेची रात तेंचे खातीर भोव मोलाची. ह्या काळखात तेंका भायलें कांयच दिसचेंना पूण आपणाक थोडो वेळ मुक्तस्वास घेवंक मेळ्ळो इतलेंच तेंका समाधान. हें समाधान तेंकां वर्सभर जगपाक पुरो. (हांसता.. उलो मारता) आटकुल्याऽ ए आटकुल्याऽऽऽ खंय गेलो रे तो.

**आटकुलो :** (धांवत येता) येयलों सायब.

**तों० जा० :** म्हाका भूक लागल्या. बेगीन केळीं घेवन यो (आपलें पोंट बडयता).

**आटकुलो :** येतां सायब. (धांवत वयता आनी व्हडलीं मयणाळीं केळीं घेवन येता.)

**तों० जा० :** (केळीं खायत) पिटकुलें दिसना तें खंय गेलां ?

**आटकुलो :** तें जेवणाची तयारी करता सायब.

**तों॰ जा॰ :** आपय तेका बेगीन. इतलो वेळ जेवण कितें रांदता मडसरी. बेगीन आपयलां म्हणचें.

**आटकुलो :** हां सायब. (तो धांवत वयता)

**पिटकुलें :** (धांवत येत) सायब येयलें.

**तों॰ जा॰ :** म्हाका तान लागल्या. बेगीन दूद घेवन यो.

**पिटकुलें :** कसलें दूद हाडूं सायब. गायचें, म्हशीचें, बोकडेचें, वागणीचें, मेरवाचें, काय भेकऱ्याचें ?

**तों॰ जा॰ :** ताजें आनी बरें कसलें आसा तें घेवन यो.

**पिटकुलें :** ताजें ना सायब.

**तों॰ जा॰ :** ना! कशें नासतलें ? (दोळे मोठे करून पळयता. तें भियेता.)

**पिटकुलें :** आसा सायब. रोकडेंच घेवन येतां. (वयता)

**तों॰ जा॰ :** आटकुल्या ऽऽऽ

**आटकुलो :** येयलों सायब.

**पिटकुलें :** (ग्लास भरून दूद घेवन येता.) सायब दूद.

**तों॰ जा॰ :** (आटकुल्याक) मात्सो राव. पयलीं दूद पियेतां. (दूद पियेवन ग्लास पिटकुल्या कडेन दीत आटकुल्याक विचारता) उत्सवाची तयारी जाली ?

**आटकुलो :** सगळी तयारी जाली. पिटकुल्यान जेवण मात फस्क्लास केलां. (बोटां चोखून रुच काडटा)

**पिटकुलें :** पूण सगळें जेवण शिवराक. सोसो, वानर, चितळ, आनी मोराचें बरें आसा. वागाचें आनी अस्वलाचें कितें ?

**आटकुलो :** गेल्या उत्सावाक तीं दोगांय सारकीं जेवंकूच नासलीं.

**तों॰ जा॰ :** त्या दोंगायाचेंय तुमकां पडूंक ना. चलात उरिल्लें काम बेगीन सोपयात. आमकां आतां उत्सवाक सुरवात करपाक जाय. तितले म्हणसर हांव सगळ्यांक धोलींतल्यान भायर काडटां. (तीं दोंगाय वयतात. तोंडयो जादुगार मंत्रान चारूय दिको बांदून घेता. मंत्र म्हणटा.) उत्सव सुरु जावंचे पयलीं चारूय दिको बांदून घेतां. पुरवम् पश्चीवम् उत्तरम् दक्षिणम् ... सर्वम् दिकम् बांधम् ... सर्वम् दिकम् बांधम् ... (हांसता) हीऽऽऽ हाऽऽऽ हाऽऽऽ हाऽऽऽ. आतां जो कोण हे आखून दिल्ले शिमे भायर वचपाचो वा भितर येवपाचो प्रयत्न करतलो तेचो जळून गोबर जातलो... जळून गोबर जातलो...

तीन चिमट्यो गोबर... (हांसता) आतां हांव मंत्र फुकून ह्या फातरांक कांय घटके खातीर जागे करतां. कांय वरां खातीर तेंकां जिवे करतां. ते सगळे आयज म्हाका रानउत्सवाखातीर जाय. (तो धोलींत भितर वयता आनी जादवाची काडी घेवन येता आनी मंत्र उच्चारता)

**अगडबंब, तगडबंब, पगडबंब थाऽऽ**
**थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ**
**फातरांच्या आंगात जीव घाल**
**फातरांच्या आंगात जीव घाल**
**आकूळ, पिकूळ, चिकूळ था ऽऽ**
**थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ**
**फातरांच्या आंगात जीव घाल**
**फातरांच्या आंगात जीव घाल**
**छूऽऽ मंतर... जादू मंतर... कोला मंतर...**
**धीन तीनक धाऽऽ**
**फातरांच्या आंगात जीव घाल...**

(धोलींतल्यान धुंवर भायर सरता. भितर आवाज आयकूक येता. उजवाड फांकता. एक एकलें जनावर आप आपल्या तोऱ्यान भायर सरतात. तांचे फटल्यान विठू आनी पिंकी येतात.)

**विठू** : (रडत) म्हाका म्हाजी आवय जाय. म्हाका म्हाजे आवयक मेळपाक जाय..

**पिंकी** : (रडत) म्हाका म्हजे मम्मीक मेळपाक जाय. म्हाका म्हज्या पप्पाक मेळपाक जाय.

**तों॰ जा॰ :** (विठूचेर धेकणो घालीत) वगी राव थंय. तुजी आवय बिवय काय ना. तुजी आवय केन्नाच मेली. आतां हांवूच तुजी आवय. (पिंकीक) तूं कित्याक आड्डता थंय. कोणें माल्लें तुका. तुमकां जिवीं करता ते फावट तुमची दोंगायची हीच रड आसता. अशीं रडश्यात जाल्यार दुसरे फावट तुमकां उत्सव बी कांय ना. मरात मागीर कायमचीं ते धोलींत. (तीं रडपाचीं थांबतात) चलात आतां सगळीं गोलाट्यो मारात. मारात बेगीन (तीं तोंडया जादुगाराक पळयता.) अशीं तोंड वरशें करून म्हाका कितें पळयतात? मारात बेगीन गोलाट्यो... मारतात काय ना? काय घालूं एक एकल्याच्या भेंडार खोंट. (तीं सगळीं गोलाट्यो मारतात. तो हांसता...) आयज म्हाजे

खोसयेचो दीस. म्हाका खूश करपाक तुमकां असल्यो कसरती करच्या पडटल्यो. जो कोण म्हाजी सांगणी आयकना ताचो गोबर जाता. ... चिमट्यो गोबर... (हांसता.) आतां उठात आनी नाचात. (सगळे नाचता.)

**सोसो :** म्हाका नाचपाक कळना.

**तों० जा० :** कळना ? कळटलें. तूं हांचे भितर नवो आसा. तीं नाचतात तशीं नाच राव. उठ बेगीन... (तो वांकडो तिकडो नाचपाक लागता.)

**तों० जा० :** ए मोरा सारको नाच. ना जाल्यार कोचून काडटां तुजो शेपाडो... ए गा... सारकी पावली मार. ना जाल्यार घालतां भेंडार खोंट... ए वानरा सारकी शेपडी हालय. ना जाल्यार लायतां उजो तुजे शेपडेक.. आगो अस्वला, ... किते नाचता तूं. फांटल्या पांयांचेर उबें रावून नाच.. (तो सांगता तशें ते सगळे नाचतात.) आरेऽऽ तोंड धांपून नाचतात किते ? म्हाका आवडा तसलें एकादें गीत म्हणात. विठू असो म्हाका पळयता किते ? एक झक्स पैकी गीत म्हण. (तो वगीच रावता) म्हणटा काय ना तो ?

**आटकुलो :** (भितर येत) हांव म्हणू सायब ?

**पिटकुलें :** (मदींच येत) म्हाकाय एक गीत येता.

**आटकुलो :** म्हाका येता तेंच तुकां येतो मुगो ?

**पिटकुलें :** जावं रे. दोंगांय म्हणो या आमी.

**तों० जा० :** तुमकां दोंगायकय एकूच गीत येता. तशें जाल्यार दोंगांय तेंच गीत म्हणा. (तीं गायतात. सगळे तांकां साथ दिवन नाचतात. तोंडयो जादुगारुय ... मदीं तांचे बरोबर नाचता.)

**सगळे :** **झिंगर झिंगर झिंगर झींग ।**
**झिंगर झिंगरऽऽ**

**आटकुले :** **जादुगाराच्या ह्या रानात**
**रानउत्सव आमी मनयतात**

**पिटकुलें :** **आरेऽऽ वानरा**

**सगळे :** **नाच असो तूं... नाच असो तूं... नाच असो**

**तों० जा० :** **म्हाज्या राज्यात मेकळो स्वास**
**घेवंक मेळचोना, घेवंक मेळचोना...**
**ना. ना. ना. घेवंक मेळचोना...**

जनावरां : उजवाडाचीं किर्णां आमकां जाय
सगळ्यांक आमकां घरा वचपाक जाय

आटकुलो : आरेऽऽ सोश्या

सगळे : मार उडयो तूं... मार उडयो तूं... मार उडयो

जनावरां : जादुगाराचे बंदखणीत जीव घुस्मटटा
आमचो जीव घुस्मट्टा...

सगळे : झिंगर झिंगर झिंगर झींग
झिंगर झिंगरऽऽ

तों० जा० : व्वा! व्वा! बहोत खूश. बहोत खूश... आगो तुमी दोंगाय कितलीं बरीं गायतात गो. आनी तुमी सगळीं कितलीं बरीं नाचतात म्हण सांगू. व्वा! लाजवाब. आयज हांव तुमचेर सगळ्यांचेर खूश आसां.

पिंकी : तशें जाल्यार आमकां आमच्या घरा वचपाक दी तर.

विठू : म्हाका म्हाजे आवयची खूब याद येता.

सोसो : म्हाका म्हाजीं पिलां रावतलीं. रानात तीं खंय भोंवतात कोण जाणा.

वाग : सावज मारून खांवपाची रूच येयल्या. दांतांक खाज पडल्या... सोड आमकां.

मोर : पिसारो फुलोवन पावसात नाचल्यार खूब वर्सां जालीं.

वानर : बाकिचे वानर म्हाका आपले वांगडा आतां घेवंचेनात. आतां म्हाका एकुलयो वानर कसो रानात एकल्याकूच भोंवचो पडटलो.

चितळ : म्हाजीं इश्टां म्हाका रानात सोदतात आसतलीं.

तों० जा० : फातरांच्या रुपान ह्या धोलींत वर्साचीं वर्सां रावून तुमकां वाज येयला. ह्या रानात तुमकां नाचपाक जाय भोंवपाक जाय. तुमचे भितरल्या चडश्या जाणांक आपल्या घरच्यांक मेळपाक जाय. चुरचुरे बाबड्यांचे.

मोर : हय, आमची काकळूट कर आनी आमकां एकदाचीं सोड.

वाग : तूं सांगता तें करपाक आमी तयार आसात. तुकां जाय जाल्यार आमी परत एकदां गोलाट्यो मारतात (गोलाट्यो मारता. हात जोडून) पूण आमकां एकदांचीं सोड.

सगळे : आमकां सोड. आमी तुज्या पांयां पडटात. (सगळे ताच्या पांयार घालून घेतात)

तों० जा० : तुमकां हांव आतांच सोडूक तयार आसां पूण...

सगळे : पूण कितें ?

तों॰ जा॰ : जे मेरेन हें झाड जिवें आसा तो मेरेन तुमकां मुक्ती ना. हें झाड मरसर तुमकां हे धोलींत कश्टवचेंच पडटलें.

अस्वल : ह्या झाडान तुजें केलां तरी कितें ?

तों॰ जा॰ : ह्या झाडाची आनी म्हाजी खूब पयलिची दुस्मानकाय. जो कोण म्हाजेर हात उबारता ताची अशीच झाडावरी गत जाता.

सोसो : ह्या झाडाचो राग आमचेर कित्याक काडटा ? आमी तुजें कितें वायट केलां?

तों॰ जा॰ : चड सुबेज उलोंव नाकात. म्हाजे वयर आवाज चडयल्लो म्हाका अजिबात आवडना. चलात जेवन घेयात. (ती दुःख्खी जातात आनी थंयच बसून रावतात. आटकुल्या पिटकुल्याक आपयता.) आटकुल्या पिटकुल्या ह्या सगळयांक जेवपाक घेवन वचात.

पिंकी : म्हाका भूक लागूक ना. म्हाका जेवण नाका.

वानर : हांवूय जेवंचो ना.

वाग : म्हाकाय जेवपाची इच्छा ना.

तों॰ जा॰ : ह्या रानात सगळें म्हजे इच्छेन चलता. आटकुल्याऽऽऽ, पिटकुल्याऽऽऽ तुमी थंय खूंट कशीं उबीं कित्याक? हांकां सगळयांक पोटभर जेवण वाड. हातुतलो कोण एकलो जेवना जाल्यार म्हाका येवन रोकडेंच कळय.

आ. आनी पि. : हां सायब. (सगळयांक आमडीत भितर व्हरतात.)

आटकुलो : सायब, हे दोगूय हांगांच बसल्यात.

तों॰ जा॰ : (मोराक आनी सोश्याक) तुमी दोगूय अशे सुतकी तोंडां करून कित्याक बसल्यात ? चलात, वचात पयलीं भितर. (तो तांकां धांवडायता. हांसता) हेंचे विशीं म्हाज्या मनात इल्लोय मोग ना. सगळयांचोच म्हाका दोळे फुटून राग येता. रानउत्सवाच्या निमतान आयज भरपूर रांदलां. तेंच्यांनी आयचे राती पोटभर जेवपाचें. हेंचे भितरलो एकलो लेगीत उपाशीं रावल्यार म्हाज्या जादवाक तें गैर वयता. म्हाज्या जादवाची शक्त कमी जाता. वर्सुयभर म्हाजो जादू सारको चलतलो जाल्यार आयचे हे राती सगळयांनी एक तरी घांस ताळया सकयल घालपाकच जाय.

आटकुलो : (भितर येत) सायब, सोश्यान आजून तोंडात उंडी घेवंक ना.

**पिटकुलें :** (भितर येत) चितळूय मान सकयल घालून वग्गी बसलां.

**तों॰ जा॰ :** तेंकां घट धरात आनी तोंडात खतखतीत खतखतें ओतात. मागीर आपशींच जेवपाक लागतलीं

**आ. आनी पि. :** हां सायब. (तीं वयतात)

**तों॰ जा॰ :** हे सगळे जेवतकच हांव जिखलों. फुडलें वर्स भर म्हाज्या जादवाक मरण ना. म्हाज्या जादवाची शक्त आतां दुप्पेटीन वाडटली. म्हाजो जादू चल्ल्यार हांव जगतलों. जादू आसा म्हण हांव जितों आसां. जादू हें म्हाजें सर्वस्व (तो मोठ्यान हांसता. माचयेर काळोख जाता.)

## देखावः दोन

(पांचूय जाण दुसरो मंत्र मेळ्ळो म्हण आनंदीत जाल्यात. मंत्र म्हणतूच ते नाचतात.)

**सगळे :**

**अगडबंब, तगडबंब, पगडबंब थाऽऽ**
**थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ**
**छूऽऽऽ मंतर... जादू मंतर... कोला मंतर...**
**धीन तीनक धाऽऽ**

**चित्रा :** (झाडा वटेन वयर पळयत) विठूचे आवय आमकां दुसरो मंत्र मेळ्ळो... आतां आमी तुज्या विठूक रोकडोच तुजे मुखार उबो करतात.

**रामजी :** विठूक तुजी खूब याद येता. रानउत्सवाच्या वेळार तुजी तो याद काडीत रडटालो.

**रोहीत :** आतां आमी सगळ्यांक मुक्ती दितात.

**सुरज :** सगळ्यांक आतां मुक्त स्वास घेवनी. ह्या काळेरानात परतून एकदां तांकां मेकळेंपणान भोवूं दी.

**पिटर :** जालें एकदाचें. ना जाल्यार आनी कितले दीस हांगा रावपाक पोडत सांगपाक नेजो आसलें.

**रोहीत :** पिटर आतां तरी तूं फातर जावंपाक तयार आसा मरे ?

**पिटर :** ना रे बाबा. दुसरो मंत्र मेवला तो चोलता जाल्यार पोयलीं चोयात.

सुरज : हय, दुसऱ्या मंत्राची शक्त चलता जाल्यार पळोवया. ना जाल्यार उमथ
कळश्यार उदक जायत.

रोहीत : हो मंत्र यशस्वी जालो जाल्यार त्या तोंडया जादुगाराचे तीन तेरा ब
ब्रेस्तार करूया.

सुरज : रामजी तुजी ती भयण पिंकी कितलें बरें दिसता न्हय ?

चित्रा : आनी तो मोर कितलो सोबीत सुंदर दिसता म्हण सांगू. धांवत वचू
मोराच्या शेपाड्याक हात लांवचो अशें म्हाका दिसतालें.

सुरज : त्या सोश्याची मात काकूट बाबड्याची हां.

पिटर : विठूचें मोटवें कालसांव चोयन म्हाका हांसपाक येतालें. (हांसता)

चित्रा : ह्या सगळ्यांक पयलीं मंत्रान जिवे करूया आनी मागीर तांचेकडेन खूब खू
उलोवया.

रामजी : हांव जादवाची काडी घेवन येतां. सगळे एका दमान मंत्र म्हणुया आनी त
सगळ्यांक फांतरातल्यान जागे करूया. (तो धोलींत भितर वचून का
हडटा. ते सगळे तो दुसरो मंत्र म्हणटात. धोलींतल्यान फक्त धुंवर भार
सरता. ते अजापतात आनी निराश जातात.)

**अगडबंब, तगडबंब, पगडबंब थाऽऽ**
**थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ**
**फातरांच्या आंगात जीव घाल**
**फातरांच्या आंगात जीव घाल**
**छूऽऽ मंतर... जादू मंतर... कोला मंतर...**
**धीन तीनक धाऽऽ**
**फातरांच्या आंगात जीव घाल**

चित्रा : म्हाका दिसता आमी तो मंत्र सारको पाठ करूक ना.

पिटर : आमी आयकपाक विसल्ल्या जावंपाक जाय.

सुरज : हांवें मंत्राचें उतरान उतर घट याद धरलां.

रोहीत : तशें जाल्यार येवजून पळय आनी म्हणून दाखय पळोवया.

सुरज : (सुरज कांय वेळ दोळे धांपून वगी रावता आनी मागीर मंत्र उच्चारता
म्हजे कडेन जादवाची काडी दियात. हांव एका दमान मंत्र उच्चारता. आ
सगळ्यांक फातरातल्यान जागे करतां (काडी घेवन मंत्रउच्चारता. ता

वांगडा ते सगळे मंत्र उच्चारतात.)

**अगडबंब, तगडबंब, पगडबंब थाऽऽ**
**थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ**
**फातरांच्या आंगात जीव घाल**
**फातरांच्या आंगात जीव घाल**
**आकूळ, पिकूळ, चिकूळ थाऽऽ**
**थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ**
**फातरांच्या आंगात जीव घाल**
**फातरांच्या आंगात जीव घाल**
**छूऽऽ मंतर... जादू मंतर... कोला मंतर...**
**धीन तीनक धाऽऽ**
**फातरांच्या आंगात जीव घाल**

(धोलिंतल्यान धुंवर भायर सरता. सगळे उत्सुक्तायेन धोलीकडेन पळयतात. धोलींत उजवाड फांकता. धोलिंतल्यान वेगवेगळे आवाज आयकूक येतात. आनी मागीर एक एकलें जनावर दोळे चोळीत भायर सरता. तांकां सगळयांक खोस जाता.)

**सोसो** : आमी खंय आसात ?

**वानर** : आमकां रोकडेच परत जिवे कित्याक केले ?

**चितळ** : उत्सवाच्या वेळार काळोख आसलो. आतां सगळयाक लख्ख उजवाड!

**वाग** : उजवाड पळयल्यार खूब वर्सां जालीं न्हूं ?

**चितळ** : हे धोलींत येयल्यार तुकां धाच वर्सां जाल्यांत. म्हाका जाल्यार अदूं सतरावें वर्स लागता.

**मोर** : सोश्याचें बरें तेका आजून आठ दीस पासून जावंक ना.

**अस्वल** : आटकुलो पिटकुलें दिसनात तीं खंय गेल्यांत काय ?

**मोर** : परतून जेव म्हटल्यार हांव आतां कसोच जेवपाचो ना.

**चितळ** : पिटकुल्यान म्हाज्या तोंडात रातीं खतखतीत खतखतें ओतलें. तोंडाक भितरल्यान सगळयाक फोड येयल्यात. धड उलोंवक पासून मेळाना.

**वाग** : तोंडयो जादुगार दिसना तो खंय ?

**वानर** : शेपडी वयर काडून नाच म्हटल्यार हांव आतां कोकोऽऽ नाचतां.

**अस्वल** : म्हाका तेणी दोन पांयांचेर नाचपाक लायलें. पाडपडूं तेचें. म्हाजे पां
सामके दुखतात. चलपाक पासून जायना.

**मोर** : धड न्हूं तो. पावस नासतना म्हण पिसारो फुलोवन नाचूं येता ? (वि
आपले आवयची आनी पिंकी आपले मम्मीची याद काडीत रडतूच भार
येतात. कुशीक रावून ह्या सगळ्यांचें संभाषण आयकुपी ते सगळे मुख
येतात.)



रामजी : (तांका समजायत) अशीं रडूं नाकात. तुमकां आदार करपाक आमी आसात.

वाग : तुमी कोण ?

अस्वल : आमकां परतून जिवीं कोणी केलीं ?

मोर : तुमकां तोंडया जादुगारान धाडल्यांत ?

रामजी : ना. आमकां जादुगारान धाडूक ना.

जनावरां : मागीर तुमी कोण तर ?

चित्रा : आमी तुमचे इश्ट.

जनावरां : आमचे इश्ट!

रोहीत : आमी तुमचे सामके लागींचे इश्ट.

विठू : तुमी हांगा कित्याक येयल्यात ?

सुरज : तुमकां सगळयांक तोंडया जादुगाराच्या तावडितल्यान सोडोवंपाक.

जनावरां : खरेंच ! तुमी आमची सुटका करतले ?

चितळ : तोंडयो जादुगार आतां आमचे परत फातर करचोना न्हय ?

रामजी : आमी तेका तशें करपाक दिवचेनात.

सुरज : आतां तुमकां हे धोलिंतल्यान कायमची मुक्ती मेळटली.

पिंकी : म्हाका म्हजी मम्मी मेळटली ?

विठू : म्हाका म्हाजे आवयक मेळपाक मेळटलें ?

सुरज : तुमकां सगळयांक आतां मुक्तपणान भोंवपाक मेळटलें. तुमकां तुमच्या घरच्यांक मेळपाक मेळटलें.

पिटर : (विठूक लागीं ओडीत) तुकां तुगे आवय मेळटोली.

चित्रा : (पिंकीच्या लागीं वचत) आनी तुकां तुजी मम्मी मेळटली.

रोहीत : (मोराक) अंदुच्या मिर्गापावसात तुकां पिसारो फुलोवन जाय तितलो नाचपाक मेळटलो.

रामजी : (मायेन सोश्याच्या फाटिवयल्यान हात भोंवडायत) तुजीं पिलां रानात खंय आसात? तीं कितें करतात आसतलीं काय ? ह्या हुस्क्यान तूं सुकून गेला.

सोसो : हें सगळें तुमकां कशें खबर ?

रामजी : ह्या माणकुल्या पिंकीची काणी सोडली जाल्यार तुमच्या सगळयांचें दुःख आमकां खबर आसा.

रोहीत : बाय तूं खंयचें कोण? तूं हांगा कशें पावलें? तुकां तोंडया जादुगारान हे

धोलींत कित्याक हाडून उडयलां ? (तें रडटा.) सांग बाय सांग... अशें रडूं
नाका. (कांय वेळ शांतता.)

**पिंकी** : आमच्या शाळेचें वनभोजन आसलें. आमीं सगळीं भुरगीं टिचर आनी सरा वांगडा रानात गेल्लीं. त्या दिसा रानात आमी खूब मजा केली. जेवल्या उपरांत आमी कांय इश्टां मेळून रान फुलां एकठांय करपाक लागींच रानात भितर सरलीं. वेगवेगळया रंगांचीं रानफुलां पळयत पळयत हांव एकटेंच मुखार गेलें. थंय अकस्मात एकटो दादलो मनीस म्हज्या मुखार उबो रावलो. भयान हांवें एकूच किळांच माल्ली. हांव आरड मारता ती पळोंवन ताणें म्हजें तोंड घट धल्लें. म्हजे म्हाकाच सोडोवन घेवपा खातीर हांवें ताच्या हाताक नेटान घांस माल्लो... हांव घांस काडटा तें पळोवन



ताणी म्हज्या केसांक हात घातलो आनी म्हाका रानातल्यान ओडीत व्हरपाक लागलो... म्हज्या केंसातल्यान रगत व्हांवपाक लागलें... म्हाका मागीर घुंवळ आयिल्ले वरी जाली... फुडें कितें जालें तें म्हाचा कांयच खबर ना... (रडटा)

**पिटर** : बाय वोगी राव. तुमच्या सोगळयांच्यो काणयो आयकून आमचें काळीज पोयलींच हाल्लां. आमकां जोबोर दुख भोंगलां.

**रोहीत** : हय, येदो व्हडलो अन्याय ह्या जगाचे फाटीर कोण तरी करता हें पळोवन आमचीं शिरंतरां पेठून उठल्यांत.

**सुरज** : तोंडया जादुगाराचें हें कर्तुप पळोंवन आमी धर्रतरेर आसात काय आनी खंयच्या गिऱ्यार आसात असो आमकां प्रस्न पडला.

**वाग** : पूण तुमी खंयचे कोण ?

**चित्रा** : आमी रान भोंवडेक आयिल्लीं. चुकून ह्या काळेरानात पावलीं. मुखार कळ्ळें की ह्या रानात एक दुश्ट जादुगार रावता म्हण.

**रोहीत** : तोंडयो जादुगार. दया माया नासलेलो दुश्ट जादुगार...

**वानर** : तुमकां कोणें सांगली ही खबर ?

**रामजी** : काळजाक पीळ घालपी तुमची ही खबर आमकां विठूचे आवयन सांगली.

**पिंकी** : विठुचे आवयक तुमी पळयल्या! खंय आसा ती ?

**सुरज** : विठूची आवय हांगा लागींच आसा.

**जनावरां** : हांगा लागींच आसा!

**विठू** : खंय आसा म्हाजी आवय. म्हाका तिका पळोवंपाक जाय. (तो कळवळटा)

**सुरज** : आमच्या सगळयांच्या मुखार ती उबी आसा. तिणेच आमकां तुमचे मुक्तेचो मार्ग दाखयलो. (ते चोयवटेन नदर मारून पळयतात. विठू निराश जाता.)

**विठू** : (रामजीक हालयत) खंय आसा म्हाजी आवय. सांग खंय आसा म्हाजी आवय. (रडटा.)

**रामजी** : ह्या झाडाक पळयलां तुमी. (सगळे झाडाक नियाळटात)

**अस्वल** : हय, ह्या झाडाचेच धोलींत आमी फातर जावन कितलिशींच वर्सां कश्टतात.

**रामजी** : हें झाड म्हळयारूच विठूची आवय.

**पिंकी** : झाड म्हण केन्ना मनश्याची आवय आसूंक शकता ?

**सुरज** : हय, इश्टानो. हें झाडूच विठूची आवय. तोंडया जादुगारान तुमचे फातर

करून तुमकां जशे बंदिस्त केल्यात तशेंच विठुचे आवयक ताणी झाडाच्या रुपान हांगा बांदुन घातल्या. तें झाड चालत्या बोलत्या मनश्यावरी उलयता. तिणेंच ह्या परिसराची, तोंडया जादुगाराची आनी तुमची काणी आमकां सांगल्या.

पिटर : दुःख्खान भोरलेली आपणागे काणी आमकां तिणे कोथोन केल्या. (विठू त्या झाडाक बारकायेन नियाळटा)

चित्रा : तिकाच लागून आमी तोंडया जादुगाराचे दोनूय मंत्र शिकूक पावले आनी तुमची आमी सुटका केली.

चितळ : तुमी आमकां मुक्ती दिल्या!

रामजी : हय, आमीच तुमकां मुक्ती दिल्या.

चितळ : तुमचें कल्याण जावं. सतरा वर्सांचे बंदखणितल्यान हांव आयज मुक्त जातलें. मुक्त स्वास घेवन परत एकदां हांव ह्या रानात भोंवतलें. मनीस आमकां मारून खातात. आमची शिकार करतात हें हांव आयकून जाणा आसलें. पूण तुमी तसले मनीस न्हूं. तुमी देव मनीस... आमच्या सगळयांचे सोडवणदार.

अस्वल : मागीर तोंडयो जादुगार खंय तर?

पिटर : तो रानात गेला. तो येवचे पोयलीं आमकां हांगांसोरल्यान वचपाक जाय.

चित्रा : आमी हांगा आसतना तो येयलो जाल्यार आमकां सगळयांक तो बंदीस्त करतलो.

पिटर : तेक लागून हांव म्हणटां आमी हांगसोरल्यान जाता तितले बेगीन गेल्यार बरे.

झाड : तुमी ह्या सगळयांची सुटका केल्ले खातीर हांव तुमकां धन्यवाद दितां. पूण म्हाजी सुटका आतां कोण करतलो ?

पिटर : हय मरे, विसरलेच आमी.

सुरज : विठुचे आवय आमी तुजीय सुटका करतले. तुकांय ह्या बंधनातल्यान मुक्त करतले. तुजो विठू तुज्या गोपांत ये सारको करतले.

रामजी : तुवेंच तर हांची सुटका जायशी केल्या. आतां तुजी सुटका केले बगर आमी ह्या रानातल्यान कशे वचत ?

चित्रा : विठूचे आवय सांग आमी कितें करचें तें सांग.

**झाड** : म्हाजे सुटके खातीर तुमकां आतां तिसरो मंत्र तोंडया जादुगारा कडल्यान काडून घेवंचो पडटलो.

**रोहीत** : जादुची काडी आमचे कडेन आसा. तिसरो मंत्र शिकले बगर आमी तेका कशेच सोडचेनात.

**झाड** : जादुची काडी खंयचेय परिस्थितीत त्या जादुगाराचे हातीक लागूक दींव नाकात. तुमी आतां पांच जाण उरूंक नात. तुमची शक्त आतां वाडल्या. तुमी तुमचे बुध्देचो आनी शक्तोचो वापर केल्यार जैत तुमचेंच जातलें. एकवटान काम करात.

**रामजी** : विठू आयक, ही उलयता ती तुजी आवय. (विठू आवाजा वटेन चित्त लावन आयकता.)

**विठू** : (रडत) आवय खंय आसा तूं. म्हाका तूं कित्याक दिसाना ? आवय म्हाका तुकां पळोवंपाक जाय.

**झाड** : पुता, असो रडूं नाका. झाडाच्या रूपात हांव तुज्या फुड्यांतूच उबें आसां. तूं म्हाका मनश्याच्या रुपान पळोवंक शकना. पूण हांवें तुकां व्हदळच्यान दोळे भरून पळोवंन घेतला. पुता, तुकां त्या तोंडया जादुगारा कडल्यान काडून घेवंक शकलें ना म्हण म्हाका माफ कर. (हुंडकेता) म्हाका माफ कर...

**सुरज** : आतां वेळ व्हगडावन उपकारचेंना. विठुचे आवयन तुमकां मुक्त करपाक आदार केला. आतां जादुगारा कडलो तिसरो मंत्र शिकून आमकां तिका मनश्याच्या रुपात हाडपाक जाय. हे खातीर आमी सगळयांनी एकवटान काम करपाक जाय. ह्या कामाक सगळयांची मदत जाय. तुमी तयार आसात ?

**सगळे** : हयऽऽऽ आमी सगळे तयार आसात...

(काळोख जाता.)

## देखावः तीन

(माचयेर कोण ना. जादुगार केन्ना येतलो हाची ते सगळे पयस झाडामुळांत रावून वाट पळयतात. कांय वेळान तोंडयो जादुगार रागान तांबडो जावन येता.)

तों० जा० : आयज मेरेन म्हाज्या हातातल्यान कोणूच सुटून वचूक नासलो. पू ह्या कोल्यान म्हाका बनयलो. म्हाज्या दोळ्यांक उदक लावन पळपी कोल, म्हाजे हातितल्यान सुटून खंय वयतलो? हें काळेरान म्हाजें. ह्या रानाच हांव राजा. ह्या रानांत कोणाचेंच शाणपण चलना. मंत्राच्या शक्तेन पासून हांवें फातर केल्यात आनी हतयांचीं खडपां केल्यांत. तूं तर पळून पळून तूं खंय पळटलो. जादवाची काडी हाडटां आनी मं सामर्थ्यान हांव तुज्यो आतां तीन चिमट्यो गोबर करतां. (रागाच्या जादवाची काडी हाडपाक धोलींत वयता. धोलींत उजवाड फांकता. वेळान रागान तडफडत भायर येता.) ना. हें शक्य ना. म्हाजे शिव धोलिंतले फांतर कोणूच हालोवंक शकना. ह्या रानात असो कोण जो म्हाज्या जादवाक आव्हान दिवपाक शकता? (आवाज चडोवन) कोण ह्या रानात? ना. म्हाज्या व्हडलो ह्या रानात कोणूच आसूं पूण कोणें घात माल्लो म्हाजो? कोणें घात घेतलो म्हाजो? म्हज्याकय बळिश्ट आसा ह्या रानात? (फांटी वळून पळयत) हे झाडा, सांग कोणें घेतलो म्हाजो? सांग. कोण येयल्लो हांगा. सांग बेगीन. म्हाजो राग मस्त चडचे पयलीं म्हाका म्हाज्या प्रस्नाची जाप जाय. म्हाज्या प्रस्नाचें उत्तर दी.. आं! तुजी अशी जीब धल्ली कित्याक? तूं अशें मोनेळ प वगी कित्याक? अब्बा! तूं म्हाका अशें आयकचें ना. जादुची काडी तुजो आनी त्या कोल्याचो गोबर करतां. तीन चिमट्यो गोबर. (ह आनी परत धोलींत भितर वयता. रागान तडफडत भायर येता) ज काडीय ना! म्हाजे जादुचे काडयेक हात लावपाचें धाडस कोणें केलें? सांग. म्हाका आव्हान दिवपी ह्या रानात कोण आसा? तूं आतां अशें उगडचेंना. तुजीं आतां हाडांच निखळायतां. (झाडाच्या मुनार खोंटो घा तें विव्हळटा... मागीर एका खांद्याक हात घालता.) आतांतरी सांग जाल्यार हो खांदोच काडटां कोचून. (खांदो ओडटा. झाडाक वेदना ज तें हुयेली मारता. इतल्यान लिपून राविल्ले ते पांचूय जाण येवन जादुगाराक घेरावो घालतात.)

सगळे : आमीच ते. आमीच दिलां तुकां आव्हान.

तों० जा० : कोण तुमी?

सगळे : आमी तुजें मरण.

रामजी : तुजे आतां दीस भल्ले.

तों॰ जा॰ : तोंड सांबाळून उलयात. तुमी म्हाज्या राज्यात आसात. जीब आसा म्हण कित्याय कितें उलोंव नाकात. जीब कोचून काडून हातात दितलों.

चित्रा : हे तोंडया जादुगारा तुजीच जीब सांबाळ. आमी तुजीच जीब मुळासकट हुमटुन हे झाडाचे धोलींत उडयतले.

तों॰ जा॰ : अब्बा! बरें चुणचुणीत उलयता मुगो तूं. म्हाका चड राग हाडल्यार तुमचो तीन चिमट्यो गोबर जातलो.

सुरज : तुजोच आतां आमी फातर करतात. ही पळय जादुची काडी म्हजे हातीत आसा.

तों॰ जा॰ : आं! म्हाजी ही जादवाची काडी तुमचे कडेन कशी पावली? दियात ती पयलीं.

चित्रा : तुजे आतां घडे भल्ले.

तों॰ जा॰ : जादु बेस्टो जायना, तेजे खातीर मंत्र जाणा जावंचो पडटा.

सगळे : आमी मंत्र जाणात...

तों॰ जा॰ : तुमी मंत्र जाणात!

सगळे : हय, आमी मंत्र जाणात.

तों॰ जा॰ : (भियेता) तुमकां हो मंत्र कोणे शिकयलो ?

सगळे : (हांसतात) तुवेंच शिकयला आमकां हो मंत्र.

तों॰ जा॰ : हांवें शिकयलो ?

सुरज : तुजे कडले दोनूय मंत्र शिकून आमी त्या धोलींतल्या सगल्यां फातरांक जागे केल्यात.

तों॰ जा॰ : कितें ! फातरांच्या रुपांत आशिल्ल्यांची तुमी सुटका केली ?

रामजी : हय, आमी तांकां मुक्ती दिल्या. सासणा खातीर ते आतां मुक्त जाल्यात.

जनावरां : (भितर येत) हय, तुज्या बंधनातल्यान आमी आतां मुक्त जाल्यात.

विठू-पिंकी: आमकांय मुक्ती मेळळया. (सगळीं तोंडया जादुगाराक घेरावो घालतात.)

तों॰ जा॰ : (रागान) म्हाज्या आड कारस्थान रचपी हो कोण ?

रोहीत : हो मंत्र तुजे कडल्यान काडून घेवंपाक ह्या झाडान आमकां मदत केल्या.

तों॰ जा॰ : (झाडाक रागान पळयत) घातमाऱ्या झाडा. हेकाच लागून तूं व्हदळच्यान

मोनेपणाचें सवंग करतालें. (रागान) तुकां आतां हांव जितें कशेंच दवरीना. तुजीं आतां हांव हाडांच खिळखिळीं करतां.

चित्रा : विठूचे आवयक हात लायशीत जाल्यार खबरदार. पयलीं फाटीं सर.

पिटर : तोंडया जादुगारा पोयलीं फांटल्यान यो. ना जाल्यार घालतां दोको मोडून.

रामजी : रानउत्सवाच्या वेळार ह्या सगळ्यांक तूं कोलाट्यो मार म्हण फर्मायतालो. आतां तूंच आमकां गोलाटयो मारून दाखय.

सुरज : मार पयलीं लाटी. (सगळे ताच्या आंगार वयतात.)

तों० जा० : चूक जाली. सोडात म्हाका.

चित्रा : तुवें दुसऱ्यांची केन्नाच काळकूट केली ना. आतां आमकां तुजी मात्तुय काकळूट येवंचिना.

वाग : मारता काय ना गोलाटयो ? ना जाल्यार मारतां पोटाक घांस. (भियेता आनी तोंडयो जादुगार गोलाटयो मारता)

अस्वल : आतां उठ. म्हाका तूं दोन पायांचेर नाचपाक सांगतालो न्हूं? तूं आतां आमकां एका पांयार नाचून दाखय. नाच बेगीन. ना जाल्यार पिजतां तुजें तोंड (तो नाचता)

मोर : म्हाका पिसारो फुलोवन नाचपात लायतालो? तूं आतां तुजे दोनूय हात वयर कर आनी नाच. नाचता काय ना. नाजाल्यार मारतां दोळयांर चोंच (तो नाचता)

वानर : म्हाका शेपडी वयर करून नाचपाक लायतालो? आंतां तूं तुजी तकली सकयल आनी पांय वयर कर. असो पळयता कितें. कर बेगीन. नाजाल्यार काडटां तुज्या नाकाचो कुडको. (तो तशें करपाचो प्रयत्न करता आनी सकयल पडटा. सगळे हांसतात)

चितळ : रावात, आतां तेजो आमी बरोसो फातर करूया.

सुरज : दुसऱ्यांचो फातर करून कश्टांची जीण भोगूक लावप्या दुश्ट जादुगारा, आतां तुकांच आमी फातरात बंदिस्त करतात.

तों० जा० : नाका. म्हाजो फातर करूं नाकात. म्हाका माफ करात. हांव तुमची चूक मागतां.

चितळ : म्हाका तुवें सतरा वर्सां फातरात बंदिस्त करुन कश्टायलें... करात तेचो फातर. फातर जातकच जीव कसो घुस्मट्टा तें कळूं दी तेका.

पिटर : चोल, पोयलीं धोलींत भितोर सोर. ना जाल्यार फोडटां तुजो तोकलो.

तों॰ जा॰ : पांयां पडटां तुमच्या. उपकार करून सोडात म्हाका...

सगळे : पयलीं ते धोलींत चल. (सगळे मेळून ताका धोलींत घालतात. सुरज जादुची काडी घेवन फातर जावंपाचो मंत्र म्हणटा.)

**इगडी बिगडी तिगडी थाऽऽ**
**थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ**
**तोंडया जादुगाराचो फातर जा**
**तोंडया जादुगाराचो फातर जा**
**अगडम बिगडम तिगडम थाऽऽ**
**थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ**
**तोंडया जादुगाराचो फातर जा**
**तोंडया जादुगाराचो फातर जा**
**छूऽऽ मंतर... जादू मंतर... कोला मंतर...**
**धाऽऽ तिनक धाऽऽ**
**तोंडया जादुगाराचो फातर जा...**

(धोलिंतल्यान धुंवर भायर सरता. जादुगार विव्हळटा तो आवाज येता. उजवाड फांकता... ते सगळे उत्सुकतायेन धोली वटेन पळयतात.)

सुरज : (आनंदीत जावन) जालो! तोंडया जादुगाराचो फातर जालो!

सगळे : तोंडया जादुगाराचो फातर जालो... तोंडया जादुगाराचो फातर जालो... (सगळे आनंदीत जावन गीत म्हणटात.)

सगळे : **जालो जालो जालो जालो फातर जालो**
**जादुगाराचो आयज फातर जालो ऽऽ**
**काळो काळो काळो काळो फातर जालो**
**जादवाचे काडयेन फातर केलो**
**फातराच्या रुपान जीव बंदीस्त जालो...**
**अत्याचाराचो आतां अंत जालो ऽऽ**
**खोसयेचो आयज उत्सव आयलो**
**जादवाचे काडयेन फातर केलो...**

सुरज : विठूचे आवय आमी जिखले... तोंडया जादुगाराचो फातर जालो...

चित्रा : चलात, ताचो केदो व्हडलो फातर जाला तो तरी पळोवया.

पिटर : (हातान दाखयत) येदोऽऽ मोठो फातर जाला आसतलो.

**रोहीत** : तेचो रंग काळो कुळकुळीत आसपाक जाय.

**रामजी** : फातर भायर काडले शिवाय हें सगळें आमकां कशें कळटलें.

**पिटर** : भितर कोण वोयता?

**चित्रा** : तूंच चल आनी तो फातर उकलून घेवन यो.



पिटर : ना रे बाबा. म्हाका एकल्याक तो उखलपाना. आनी कोणूय म्हुजे बराबर येता जाल्यार हांव भितोर वोचपाचें डॅरींग कोत्तां.

रामजी : यो, आमी दोगूय या. (दोगूय धोलींत भितर सरतात. वचपाक लागतात. धोलींत उजवाड फांकता. सगळे उत्सूकतायेन तांची वाट पळयतात. कांय वेळान पिटर एकलोच फातर उखलून घेवन येता. त्या फातराचो रंग तांबडो भडंग आसून एकाद्या फुटबॉला वरी ताचो आकार आसा. त्या बॉलाक दोंय वटानी दोन काळे ल्हान हात आसात. तो फातर हाडून मदीं दवरता.)

पिटर : ह्या फातराक चोयाय. ताका दोन वटानी दोन बारीक हात आसाय. (सगळे अजापान त्या फातराक पळयतात.)

रोहीत : अजापूच मरे हें ! ताचोच जादू ताचेर केला म्हण तशें जालां जावंपाक जाय.

रामजी : ह्या फातराक वजनूच ना. फातर सामको ल्हव आसा.

पिटर : सुरज असो फातराक चोयता कितें. उखलून तो चोय.

सुरज : (उखलीत) हय मरे! कापसाचो गुळो कसो!

चित्रा : म्हजे कडेन दी पळोवया. (तें हातात घेता.) आरे वा! कापसाचें उशें कशें... (ताचे कडल्यान रोहीत घेता.)

रोहीत : हो तर वाटकुळो बॉलूच कसो. रामजी घेऽऽ (वयल्यान उडयता एका मेका कडेन तो फातर उडोवन ते खेळटात. तो फातर वागाच्या फुड्यात पडटांच जादुगराची आरड आयकूक येता.)

वाग : (पांय दवरून चिड्डीत) म्हाजेर खोंटो घालतालो ? आतां मर एकदाचो.

विठू : म्हाजे आवयचें तुवें झाड केलां मरे ? चेंचाय तेका. (जादुगार आरड मारता)

पिंकी : केसांक धरून कांट्यातल्यान म्हाका ओडीत व्हरपी तो तूंच न्हूं ? तुका अशेंच फाव. खोंटायात ताका (सगळीं जनावरां लागून जादुगाराक खोंटायतात, भुसकितात.)

वाग : (वाग आन्नी अस्वल फातराक दोन वटानी दोन आशिल्ल्या हांतांक धरून ओडटात.) ह्या हातानीच तेणे आमचें फातर केल्ले.

अस्वल : ओड, मुळासाकून कोचूनच काडुया तेचे हे हात...

रामजी : आरे जादुगाराक मारून उडयश्यात. मेलो जाल्यार तेचेकडल्यान तिसरो मंत्र आमकां मेळचो ना.

सुरज : उठात. कुशीक रावात. फाटल्या कितल्याश्याच वर्सांचो तुमकां तेचो[illegible] आसा हें आमकां खबर आसा. जादुगार आमकां जितो उरिल्लो [illegible] ताचे कडल्यान आमकां तिसरो मंत्र विचारून घेवंपाचो आसा हें [illegible] नाकात.

चित्रा : तिसरो मंत्र मेळ्ळो ना जाल्यार विठूक तेची आवय मेळची ना.

रोहीत : (विठूक लागीं ओडीत) हय, विठूक तेची आवय मेळपाक जाय. फ[illegible] कितलिंशींच वर्सां तो आपले आवयक हुस्केता.

विठू : म्हाका म्हाजी आवय मेळटली न्हूं ?

रोहीत : तुका तुजी आवय मेळची अशी आमची सगळ्यांची इच्छा आसा. त[illegible] लागून फाटले कितलेशेच दीस आमी एक सारखे प्रयत्न करीत आस[illegible]

पिंकी : म्हजी मम्मी.

चित्रा : घरा वयतकच तुजे मम्मीचोय आमी सोद घेतले.

रामजी : चलात आतां आमी जादुगाराक आसलो तसो जितो करुया. आनी [illegible] मंत्र तेचे कडल्यान विचारून घेवया. (रामजी तो फातर व्हरून धो[illegible] दवरता. सुरज फातरातल्यान मूळ रूपात हाडपाचो मंत्र म्हणटा.

**अगडबंब, तगडबंब, पगडबंब थाऽऽ**
**थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ**
**फातराच्या आंगात जीव घाल**
**फातराच्या आंगात जीव घाल**
**आकूळ, पिकूळ, चिकूळ थाऽऽ**
**थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ थाऽऽ**
**फातराच्या आंगात जीव घाल**
**फातराच्या आंगात जीव घाल**
**छूऽऽ मंतर... जादू मंतर... कोला मंतर...**
**धीन तीनक धाऽऽ**
**फातराच्या आंगात जीव घाल**

(धोलींतल्यान धुंवर आनी उजवाड येता. सगळे उत्सुकतायेन पळय[illegible] सुरज धोलींत भितर झांकून पळयता.)

सुरज : तोंडयो जादुगार बेशुध्द जावन भितर पडला. चलात काडात तेका भ[illegible] (रामजी आनी रोहीत भितर वचून जादुगाराक उखलून भायर हाडटा.)

**चित्रा** : तेका मुको मार बसला जावंक जाय.

**रामजी** : सगळयांच्या मारान निन्हळ्ळा आसतलो तो. मात्सो रावून आपशींच उठून बसतलो.

**चित्रा** : आमी तेका उठोवन पळयल्यार कसो जायत.

**पिटर** : तो येसो न्हिदुन रावलो जाल्यार आमी हांगांच उत्तेले. रामजी उठोय ताका. (रामजी ताका उठोवपाचो यत्न करता. रोहीत लागीं वचून ताका परतिता. चित्रा ताच्या भोंवतणी भोवून गीत म्हणटा. सगळे ताका सांगात दितात.)

**उठ जादुगारा, उठ जादुगारा, उठ जादुगारा उठ बेगीन**
**मंत्र नवो दी बेगीन...**

**विठूची आवय रडटा पळय**
**झाडाच्या रूपान वाडटा पळय**
**आवय पुताचे भेटेत जादुगारा**
**मायेचें रूख वाडूं बेगीन**

**उठ जादुगारा, उठ जादुगारा, उठ जादुगारा उठ बेगीन**
**तिसरो मंत्र दी बेगीन...**

**विठूक आवय सादयता**
**पोल्यार दुकां गळयता.**
**दुरावलेल्या नात्याक परतून**
**नव्यान चवंर फुलूं दी**

**उठ जादुगारा उठ बेगीन**
**तिसरो मंत्र दी बेगीन...**

(तोंडयो जादुगार उठना तो पळोवन चित्रा, रामजी आनी रोहीत लागीं वचून ताका जागोवपाचो प्रयत्न करतात)

**वाग** : तेणी न्हिदेचें सवंग घेतलां शें दिसता.

**पिटर** : न्हिदलोल्याक उठोवंक बरो पूण न्हिदेचें संवग घेतलेल्याक उठोवंपाक भोव कुस्तार. वानरदादा ताच्या कानात शेपडी घाल चोवया. उठ्ठलो तो. (वानर ताच्या कानात शेपडी घालता. तो उठना.)

**चित्रा** : वागमाम ताच्या पांयाक नेटान घांस काड पळोवया. दुखतकच आड्डी मारीत उठ्ठलो. (वाग पांयाक घांस काडटा. जादुगार हूं न्हूं सूं करिना.)

**रामजी** : ना. अशें जावंक फावना. तोंडयो जादुगार मरूंक फावना. (तो ताची नाडी पळयता आनी तोवूय दुःख्खी जाता. विठूक लागीं ओडीत.) ना. विठूक ताची आवय मेळपाकूच जाय. विठू एकटो उरूंक फावना...

**पिकीं** : जादुगाराक कितें जालां ?

**विठू** : म्हाका म्हाजी आवय मेळचिना? (सगळे एका मेकांच्या तोंडाक पळयतात)

**सुरज** : (जादुगाराच्या नाकाकडेन हात व्हरत.) जादुगाराचो स्वास-उस्वास बंद जाला. काळजाचे थेकेय थांबल्यात. हांव म्हजे पद्दतीन ताचे कुडीत जीव हाडपाचो यत्न करतां. (तो तांचें हर्डें चेपता आनी मागीर तोंडात फूक मारून ताचे कुडीत जिवसाण हाडपाचो यत्न करता.) म्हाका दिसता आतां प्रयत्न करून कांयच फायदो ना.

**विठू** : आवयऽऽऽ गे. म्हाका तुकां पळोवंपाक जाय. आवय गेऽऽऽ (विठू हुंडके हुंडकेत रडटा... सगळे विठुची काकळूट करीत अपराधी भावनेन ताचे कडेन पळयतात. माचयेर काळोख जाता.)

## देखावः चार

(सगळे सुतकी तोंडां करून बसल्यात. रडून रडून विठूचे दोळे सुजल्यात...)

**वाग** : (विठू कडेन वचत) विठू आमकां माफ कर. रागाच्या भारात आमी जादुगाराक नाका तितलो माल्लो.

**अस्वल** : हांवेंय तेका फाटीं फुडें पळय नासतना बुरडलो.

**मोर** : रागाचे भिरकेन हांवेंय तेका चोंचायला. आमची चूक जाली.

**रामजी** : तुमी चुकूक ना. फाटल्या कितलेश्याच वर्सांचो राग तुमच्या मना काळजात खतखत्तालो. त्या रागाक तुमी आयज वाट मेकळी करून दिल्या. इतलेंच...

**सुरज** : खरें म्हळ्यार आमचीच चूक ती. तोंडया जादुगाराचो फातर करचे पयलींच तेच्या कडल्यान आमी तो मंत्र काडून घेवंपाक जाय आसलो.

**चित्रा** : आमी आतां विठूचे आवयक कितें सांगतले?

**रोहीत** : तोच तर आतां मोठो प्रस्न आसा. (झाडाकडेन लागीं वचून)

**रामजी** : विठूचे आवय आमकां माफ कर. नकळटां आमच्या हातातल्यान मोठी चूक घडल्या. जें घडपाक नाका आसलें तेंच नेमकें घडलां.

**पिटर** : आतां आमी कित कोरूं तें तूंच सांग.

सुरज : हातूतल्यान आमकां वाट दाखय. (झाड कांयच उलयना)

रोहीत : विठूचे आवय उलय.. तुजे सुटकेचो आमकां मार्ग दाखय.

चितळ : विठूचे आवय तुवेंच आमची सुटका केल्या. तुवेंच आमकां जिवदान दिलां. आमी केल्ले चुकी खातीर आमकां माफ कर.

मोर : आवय आमचे कडेन तूं कित्याक उलयना ?

वानर : विठू तुजो अपुरबायेचो चेडो तसोच आमचोय तो कोण तरी लागता. फाटलीं कितलिंशींच वर्सां आमी तेच्या वांगडा एकवटान रावल्यात.

चितळ : उत्सवांच्या वेळार आवय आवय म्हण रडटालो तेन्ना आमीच तुज्या विठूक धीर दिला.

वाग : विठू आमकां धाकट्या भावा समान. पिंकी आमची भयणुलीं. हीं दोगांय मनीस जातितलीं आसलीं तरी आमी तेचे कडेन केन्नाच तुसडेपणान वागूक ना. आमी सगळीं एक हेच भावकेन फांटलीं कितलिंशींच वर्सां एकिकडेन सारल्यांत.

अस्वल : विठूचे आवय आमकां माफ करतली न्हय?

झाड : तुमी सगळीं म्हाज्या भुरग्यां समान. तुमच्याच सहवासान हांव फाटलीं कितलिंशींच वर्सां जियेतां. तोंडयो जादुगार मेलो हातूत तुमची कांयच चूक ना. तो आपल्या करणेन मेला. दुसऱ्याक जगूक न दिवप्याचो अंत असोच जाता. तुमचे कडेन तो दुश्टपणान वागला. ताका खोंटावन तुमी तुमच्या मनातलो राग व्यक्त केला.

मोर : विठूचे आवय आमची सुटका जाली पूण तूं...

झाड : तुमची सुटका हीच म्हजी सुटका. तुमी सगळे त्या जादुगाराचे तावडितल्यान मुक्त जाल्यात हेचो सगळ्यांत चड आनंद म्हाका जाला.

वाग : आमची सुटका करपाक फुडाकार घेतिल्ले खातीर आमी तुमचे उपकारी आसात.

झाड : तुमची सुटका हांवें करूक ना. तुमचे सुटके खातीर हे पांचूय तरणाटे कारणीभूत आसात. तांचे तुमी उपकार मानात. ते देव कशे हांगा येयले, म्हजी सांगणी आयकली आनी मनीसपण दाखोवन तुमचे सुटकेखातीर कश्टान वावुरले... सगळीच मनीसजास दुश्ट नासता. अविचारीय नासता. काळेरानाच्या ह्या देगणांत जश्यो थंड उदकाच्यो झरी व्हांवतात तश्योच तांच्याय काळजात मायेच्यो आनी उपकाराच्यो झरी खळखळटात... ह्यो

झरी अखंडीतपणान व्हांवत रावपाक जाय... तानेल्ल्यांक घोंटभर उदक मेळपाक जाय.

**रामजी** : विठूचे आवय, तुजीं हीं उतरां आमी सदांच आमच्या काळजात सांबाळून दवरतले. तुवें आमच्यातलें मनीसपण जागयलें. आमच्या काळजात तुवें आपलेपणाची भावना किल्लयली. पूण विठूचे आवय एक विचारूं, तुजे सुटके खातीर आतां आमच्या हातात कांयच उरूंक ना ?

**पिटर** : तुगे सुटका जावपासून आमी ह्या काळेरानात रावपाक तोयार आसात. कित कोरपाचें तेंच आमकां सांग.

**चित्रा** : हय, आमकां वाट दाखय. तूं मनश्यात येयली जाल्यार एका आवयक तिचो पूत मेळोवन दिल्ल्यांचें आमकां समाधान मेळटलें.

**पिंकी** : (रडत) विठूचे आवय तूं आमकां जाय. आमकां सगळ्यांक एक आवय जाय. आमचेर माया करपी आवय जाय. विठूचे आवय तूं मनीस रुपांत यो. (रडटा)

**रोहीत** : विठूचे आवय, वेळ काडिनासतना आमी कितें करचें तें आमकां सांग.

**झाड** : तुमी आतां कांयच करपाचें उरूंक ना.

**रामजी** : आमच्या हातात आतां कांयच ना!

**झाड** : ना. म्हाका मुक्त करपाच्यो सगळयो वाटो आतां कायमच्यो बंद जाल्यात.

**सगळे** : कितें ?

**वाग** : तूं आतां मनश्याच्या रुपांत येवंची ना ?

**मोर** : आमच्या विठूक आवय मेळचिना ?

**झाड** : हांव आतां ह्या झाडाच्या रुपांतूच उतरलें.

**चित्रा** : अशी तूं कित्याक म्हणटा ?

**झाड** : हांव खरें तेंच उलयतां. तोंडयो जादुगार मेल्ल्यान तिसरो मंत्र आतां तुमचे हातीक लागचो ना.

**अस्वल** : तिसरो मंत्र आतां आमंकां मेळचोना? (सगळे खंती जातात.)

**झाड** : जादुगार मेल्ल्यान तुमकां आतां तिसरो मंत्र मेळचोना. तेच्या मंत्राचे शक्तेन बंदिस्त जाल्लें सगळें आतां सासणाचें तशेंच उतरलें. काळेरानातल्या देगणातली ती झर हाचे फुडेंय अदृश्य रुपातूच व्हांवतली. हें झाड लेगीत थंडी, वत, पावस, वादळ-वारो झेलीत ह्या अटंग्या रानात एकटेंच मुखावयली जीण सारतलें. म्हाका तुमी परत मनीस रुपात हाडून कांयच फायदो

जावंचो ना. मनश्यात हाडलें पासून जाल्यार घडये एकादे मरूंक तेंकिल्ले म्हातारे वरी हातात दांडो घेवन म्हाका भोंवचें पडटलें. कारण म्हाज्या आंगात आतां शक्त उरूंक ना. हांव आतां म्हातारें जालां. तुमी फातराच्या रुपात आशिल्ल्यान तुमची पिराय तितलीच उल्ल्या. पूण म्हाजी पिराय मात दिसान दीस वाडत गेली. म्हाजे हे बरगेल्ले खांदे पळयात. झांडाची धोल वर्सा सकीन रूंद जायत आसा. म्हाज्या पाळांनी आतां शक्त उरूंक ना. वारें वादळ येवन हांव मुळांसकट केन्ना हुमटून पडत तें सांगूं नजो... वयर खांद्याक फुलिल्लीं फुलां हीं निमाणी. हाचे फुडे ह्या झाडाक फळांय लागचिनात...

**विठू** : आवय गेऽऽ म्हाका तूं जाय. (रडटा)

**चित्रा** : विठू रडूं नाका. तुजी आवय मेळ्ळी ना तरी सगळयां बरोबर तुकां जिवदान मेळ्ळां. आमी आसात तुकां सांगात दिवपाक.

**झाड** : म्हाजेर एक उपकार करात. विठूच्या तशेंच पिंकीच्या घरच्यांचो सोद घेयात. सोद घेवनूय कोणूच मेळूक ना जाल्यार तांचो तुमी आपलेपणान सांबाळ करात. तेंकां चार पुस्तकां शिकयात. ल्हानपणा पासून तेंकां आवयचें सूख मेळूक ना. आवय-बापूय नासलेल्यां भुरग्यांक उबांतार उडोंव नाकात.

**रोहीत** : विठूचे आवय आमी आसात तुज्या विठूचो सांबाळ करपाक.

**चित्रा** : आमी पिंकीकूय सांबाळटलीं.

**विठू** : आवयऽऽ आवयऽऽ (रडटा आनी मुळांत वचून झाडाक वेंग मारता.)

**झाड** : विठू, अशें रडत बसून उपकारचेंना. उठ, तुकां मुखार चलपाचें आसा. तुकां शिकून व्हड मनीस जावंपाचो आसा. तुकां अन्यायाआड पेटून उठपाचो आसा. मनश्याच्या रानानी तोंडया जादुगारा असले कितलेशेच जादुगार दिसपट्टे अन्याय अत्याचार करीत आसात. त्या धा तोंडाच्या जादुगारां आड तुकां आतां पेटून उठपाचें आसा. उठ, अशें आंग गळसावन चलचेंना... (विठूच्या आंगात नवतेज संचारता. तो मूठी आवळीत उबो रावता.)

**विठू** : आवय, हांव अन्याया आड झुजतलों. अत्याचारा आड कवदो कसो पेटून उठ्ठलों.

**सगळे** : हाचे फुडें आमीय अन्याय सोसून घेवंचेनात.

**सुरज** : आमचे कडेन आतां दोन मंत्र आसात. जो समाजात धुमशेणा कांडटा, जो कोण दुसऱ्यांचेर अन्याय करता तशेंच दुसऱ्यांक फुसलावन आकांतवाद

घडोवन हाडटा तेचो आमी आतां मंत्राचे शक्तेन फातर करतले.

**रोहीत** : समाजात फूट घालूंक सोदप्यांक पाडे बांयत उडोवन तांचे फातरूच करपाक जाय.

**झाड** : चुकतात तुमी. खंयचेय विद्येचो वायट उपेग करुं नाकात. विद्या ही बऱ्या खातीर वापरपाची आसता. तिचो दुरुपयोग केल्यार भविश्यात ताचे वायट परिणान भोगचे पडटले. तोंडया जादुगारान आपलेकडेन आशिल्ले जादुचे विद्येचो सदांच वायट उपेग केलो. तेका आपलेकडेन आसलेले जादुचे विद्येचो गर्व आसलो... निमणेकडेन तेका तेचें पानवळ भोगचेंच पडलें.

**सुरज** : विठूचे आवय तुजे सांगणे प्रमाण आमी वागतले. आमी आमचे कडेन आशिल्ले विद्येचो वायट उपेग केन्नाच करचेनात. तिचो सदांच बऱ्या खातीर वापर करतले.

**झाड** : दीस अस्तमतेक वचपाक लागला. आतां रानात रोकडोच काळोख दाटून येतलो. घरा पावता म्हणसर तुमकां रात जातली. सडसडीत पांय उखलात आनी आपआपल्या घरा वचात...

**चित्रा** : विठूचे आवय, आतां लोक कुमेर शेतां करिनात. सरकारान कुमेर शेतांचेर कायमची बंदी हाडल्या. सगळे दोंगर रुखावळिनी भरुन गेल्यात. असल्या दाट अटंग्या रानात भोंवपाक आमकां आवडटा. रानातले रूखावळिचो आनी जिवाविळाचो आमी अभ्यास करतात. आमी वर्सान वर्स हांगा तुजे भेटेक येतलीं...

**वाग** : आमी वर्साचे बाराय म्हयने ह्या रानात विठूचे आवयक सांगात दिवपाक आसात.

**झाड** : तुमचो सांगात तोच म्हाज्या खातीर जगपाचो आदार. चलात आतां वेळ काडूं नाकात. तुमकां घरा पावपाचें आसा. धोली कडल्यान सकयल पालसणात गेल्ली वाट बद्द ते झरी कडेन पावता. वाटेन वयतना झाडांक दुखापत करूं नाकात. झाडांकय जीव आसता. तांकाय वेदना जातात. तिंवूय मनश्यावरी हांसतात आनी रडटातूय बी... म्हाजे वरी अश्यो कितल्योश्योच आवयो झाडाच्या रुपान ह्या रानात कश्टतात आसतल्यो. उपकार करुन तेंच्या आंगार घाव घालूं नाकात... तुमकां सदांकाळ सावळी दिवपी रूखांक भावकेच्या नदरेन पळयात. तेंचेर मना पासून प्रेम करपाक शिकात... चलात, हांगा अशे घुटमळूं नाकात...

विठू : आवय येतां हांव... (ताच्या दोळयांत दुकां दाट्टात. मोनेळ पांघरून जड अंतस्करणान सगळे वचपाक लागतात. इतल्यान दुसरे वटेतल्यान आटकुलो आनी पिटकुलें धांवत येतात. तांकां खरस लागल्या...)

आटकुलो : रावात. आमीय येतात तुमचे वांगडा.

पिटकुलें : हय, आमकांय व्हरात तुमचे वांगडा.

चितळ : कोण पिटकुलें ! म्हाज्या तोंडात तुवेंच हुनहुनीत खतखतें ओतलेलें न्हूं?

वाग : आटकुल्या तूं हांगा कित्याक येयलां ? कानाक धरुन तुवेंच म्हाका जेवपाक बसयल्लो न्हूं ? तुमकां दोगांयकय आतां हांव खातां.

आटकुलो : (तीं दोगांय भियेतात) वागमाम अशें करुं नाकां. आमची चूक जाली. तुमचेवरीच आमीय तोंडया जादुगाराचे बंदे आशिल्ले. तेचे सांगणेनूच आमकां तें सगळें करचें पडटालें.

पिटकुलें : तुमचेविशीं आमच्या मनात कांयच वायट ना.

अस्वल : रानउत्सवा वेळार तुमी आमकां केन्नाच बरी वांगणूक दिवंक ना. आमचे कडल्यान सदांच तोंडयो जादुगारान आपणाक जाय तें करुन घेतलां.

आटकुलो : अशें म्हणू नाकात. आमकां समजून घेयात. आमच्याय दुख्खाची काणी आयकून घेयात...

पिटकुलें : तुमकां जशीं जबरदस्तीन उखलून हाडल्यांत तशींच आमकांय ताणें वीस वर्सां पयलीं ह्या रानात धरुन हाडिल्लीं. तुंमकां ताणें फातरांच्या रुपान झाडाचे धोलींत घालून दवरलीं. आमचे कडल्यान मात ताणें आपल्या मनात येता तीं कामां करुन घेतलीं. आमचेर ताणे नाका तसले अत्याचार केले... (रडटा)

आटकुलो : आमचे कडल्यान मात्सें कितेंय चूक घडल्यार पांय वयर आनी तकली सकयल करुन आमकां तो झाडाक हुंबकळायतालो... (तोवूय रडटा)

रामजी : तुमी ताचे आड बंड कित्याक करूंक ना ?

वानर : तुमी प्रतिकार कित्याक करुंक नात.

पिटकुलें : कितलेशेच फावट आमी प्रतिकार केलो पूण तेचेकडेन आमचें शाणपण चल्लें ना.

सोसो : तुमकां पळून वचपाची संद केन्ना मेळळीच ना ?

आटकुलो : तोंडया जादुगाराचे तावडीतल्यान आमी पळून वचपाचो खूब फावटी यत्न केलो पूण तेंवूय आमकां शक्य जालें ना.

पिटकुलें : तुमी सगळयांनी मेळून तोंडया जादुगाराक जिवेशीं माल्लो आनी आयज आमची सुटका जाली.

आटकुलो : आमी तुमच्या सगळयांचे उपकारी आसात.

चित्रा : आमचे उपकार मानू नाका. उपकार ह्या झाडाचे मानात.

सुरज : सगळयांचे सुटकेचें कारण हें झाड आसा.

पिटर : हेंका सोगळयांक सोडपाची तेणेंच आमकां बुध्द दिल्या.

रोहीत : ह्या झाडानूच आमकां एकठांय येवन झगडपाचें बळगें दिलां.

पिंकी : हें झाड आमच्या ह्या विठूची आवय.

विठू : म्हाजे आवयक ह्या झाडातल्यान कोणूच सोडोवंक शकलो नात. म्हाका म्हाजी आवय जाय आसली... (रडटा)

पिटकुलें : (विठू कडेन लागीं वचत) रडूं नाका. आमी सोडयतात तुजे आवयक...

विठू : कितें ! तुमी म्हाजे आवयक ह्या झाडातल्यान मुक्त करतात ?

सगळे : विठूचे आवयक मुक्ती मेळटली !

आटकुलो : हय, विठुचे आवयक सोडोवंपाचो आमचेकडेन मंत्र आसा.

सगळे : तुमचे कडेन मंत्र आसा ! (सगळे उमेदीन नाचतात)

पिटकुलें : फाटल्या वीस वर्सांत तोंडया जादुगारान विठूचे आवयक एकूच फावट मनश्याच्या रुपांत हाडिल्ली आमी आमच्या दोळयांनी पळयल्या... ते वेळार लिपून रावून आमी तोंडया जादुगाराचो मंत्र आयकल्लो. झाडाक मनश्याच्या रुपांत हाडपी तो मंत्र आयजूय आमकां घट याद आसा.

चितळ : त्या मंत्राचो वापर तुमी विठुचे आवयक सोडोवंपाक कित्याक केलो ना ?

आटकुलो : आमकां तोंडया जादुगराचे कांय मंत्र खबर आसात पूण आमकां ताणे केन्नाच जादुची काडी हाताक लागूक दिली ना. ती जादुची काडी आमकां मेळची म्हण आमी खूब प्रयत्न केले. ते प्रयत्नूय आजय मेरेन सफल जावंक पावले ना.

पिटकुलें : पूण एक. विठूचे आवयक झाडातल्यान मुक्त करतलो जाल्यार जादुची काडी जाय.

आटकुलो : तुमचेकडेन ती जादुची काडी आसा ?

सुरज : ही पळयात जादुची काडी म्हजे कडेन आसा. (जादुची काडी आटकुल्याकडेन दिता)

आटकुलो : (हातात घेत) हे जादुचे काडयेन आतां विठूची आवय मनश्याच्या रुपांत

येतलीच. ताचे भायर त्या क्रूर तोंडया जादुगारान पोंया वझऱ्याक ल्हान झरिच्या रुपान बंदिस्त करुन दवरला ताचीय आमकां आतां मुक्तताय करपाक मेळटली...

**मोर** : तशें जाल्यार आतां सगळ्यांक उदक पियेवपाक मेळटलें.

**पिटर** : आमकां तो पोंयो वझरो चोवपाक मेळटलो...

**वानर** : चलात आतां चड वेळ काडूं नाकात. विठूचे आवयक झाडातल्यांन मुक्त करात.

**रामजी** : विठुचे आवय हांगा पळय. तुजे मुक्तेचो मार्ग आतां सोपो जाला.

**चित्रा** : तूं आतां मनीस रुपान आमचे मुखार येतली.

**रोहीत** : विठुची आनी तुजी भेंट आतां कांय वेळानूच जातली.

**पिंकी** : विठूचे आवयक पळोवंपाची आमकां सगळ्यांक उमळशीक लागल्या.

**पिटकुलें** : चलात. आमी मंत्राचो उच्चर एका मुखान करुया...

**सगळे** : हय. आमी सगळे एक मुखान मंत्र म्हणुया.

**वाग** : सगळ्या रानाक जाग हाडुया. (सगळे झाडाक फुडो करुन उबे रावतात)

**आटकुलो** : (उजव्या हातान जादुची काडी घेता. झाडा मुखार धरुन ती ओंवाळटा आनी मंत्र उच्चारता. बाकीचे सगळे ताका साथ दितात)

**अघडम तघडम पघडम थाऽऽ**<br>
**थाऽऽ था ऽऽ था ऽऽ था ऽऽ**<br>
**झाडातल्यान मनश्याक भायर काड**<br>
**झाडातल्यान मनश्याक भायर काड**<br>
**अपरघम तपरघम पपरघम था ऽऽ**<br>
**था ऽऽ था ऽऽ था ऽऽ था ऽऽ**<br>
**झाडातल्यान मनश्याक भायर काड**<br>
**झाडातल्यान मनश्याक भायर काड**<br>
**छूऽऽ मंतर... जादू मंतर... कोला मंतर...**<br>
**झाडातल्यान मनश्याक भायर काड**

(झाडाचे धोलींतल्यान धुंवर भायर सरता. झाड उजवाडान पर्जळटा... मागीर झाड इल्लें इल्लें काळखात बुडून वता. धुंवरातल्यान बायलेची एक आकृताय ल्हव ल्हव करुन मुखार येता... ते सगळे तिका मदल्यान वाट करुन दितात. ते बायलेन धवें कापड न्हेसलां. केंस पिकल्यात. तिका सगळे अजापान पळयतात. विठूय तिका नदर लावन पळयता. एक एक पावल मुखार

घालीत तो तिच्या वेंगेत रिगता... सगळे तांच्या भोंवतणी मोठे उमेदी
गीत गायत नाचपाक लागतात.)

**इगडी बिगडी तिगडी थाऽऽ**
**था ऽऽ था ऽऽ था ऽऽ था ऽऽ**

**काळेरानातल्या देगणांत ह्या**
**सळसळ पांचवीं पानां**
**विठूक आमच्या आवय मेळ्ळी**
**फुल्लीं आमचीं मनां...**

**जंय थंय उबीं आसात**
**उंच उंच झाडां,**
**आवय पुताची भेट घडल्या**
**खोस सगळ्यो रानां...**

**(नाटक सोंपता)**





**प्रकाश पर्येंकार**

- प्रकाश पर्येंकार एम.ए (कोंकणी), एम.कॉम (मॅनेजमेंट) आनी बि.एड. (कोंकणी)
- ते एक संवेदनशील लेखक आसून कोंकणी साहित्याच्या मळार ताणें आपली खाशेली अशी सुवात निर्माण केल्या.
- कविता, कथा, ललित निबंध आनी बालनाट्य अशे विविध साहित्य प्रकार ताणें समर्थपणान केळयल्यात.
- 1994 सावन कोंकणी विशयाचें अध्यापन करतात. सद्या ते गोंय विद्यापिठांतल्या कोंकणी विभागात व्याख्यातो म्हण काम करतात.
- 'कारबारी कोंकणी' पुस्तकाचे सहलेखक (1999)
- सुनापरान्त दिसळ्यांत 'दवरणें' (2000) आनी 'म्हादय माये' (2004) हीं सदरां चलयल्यांत.
- 'चंद्रकोर' हे तांचे कथेक कथा दिल्लीचो राष्ट्रीय पुरस्कार फाव जाला. (2001)
- तांच्यो कांय कथा मराठी, हिन्दी, उडीया, तेलगू, मलयाळम, पुर्तुगेज आनी इंग्लेज भासांनी अणकारीत जावन उजवाडा आयल्यात.
- तांचो 'दवरणें' हो ललित निबंद संग्रह (2005) वर्सा उजवाडा आयला.
- मनोलॉग, नाटिका आनी एकांकीका लेखन केलां. एकांकिका लेखनाखातीर राज्य पांवड्यार इनांम फाव जालां.
- गोंय तशेंच अखिल भारतीय पांवड्यावयल्या परिसंवादानी आनी कार्यशाळांनी वांटेकार जावन सोद-निबंद सादर केल्यात.
- आकाशवाणी आनी दूरदर्शन केंद्राचेर कार्यावळी सादर केल्यात.
- 1998 सावन म्हादय बचाव आंदोलनात सक्रीय सहभाग.